# गुरुदेवाल्यो विशिष्ट काणियो

(कोंकणी कथा संग्रह)

● रामचंद्र जी. भंडारि



# गुरुदेवाल्यो विशिष्ठ काणियो

## (कोंकणी कथा संग्रह)

लेखक :
रामचंद्र जी. भंडारि
कंदिवलि, मुंबयि

**द्वारकीश प्रकाशन**
एच – १०२, गोकुल नगरि
(२–एच), हौसिंग सोसायटि, दत्तानि पार्क
सुर्या विलेज, कांदिवलि (पूर्व), मुंबयि – ४०० १०१

**"GURUDEVALYO VISHISHTA KANIYO"** (A collection of Konkani Stories) by : Mr. Ramchandra G. Bhandari

Publishers :

Dwarakeesha Prakashana
H - 102, Gokul Nagari (2 - H) Housing Society
Dattani Park, Surya Village
Kandivili (East), Mumbai - 400 101
Phone : 022 - 28877609
Moblie : 098690 00718

First Edition : March 2011

Pages : 76

Price : Rs. 50-00

Copies : 200



*Printers :*

Ravindra Akalwadi
Manohar Printers
Market, Dharwad - 580 001
Ph. : 0836 - 2790030, 2741984
M. : 09141201170



ननु मनऽउत्साहित को ल्लेले
श्रीमद् विद्याधिराज स्वामिंगेले चरणकमलाक
सादरपूर्वाक समर्पण

# प्रस्तावना : मेग्गेलीं पयलीं दोन उत्रं.

मोगाच्या  कोंकणी बांधवानो,

मेग्गेलें दुस्रे पुस्तक, " गुरुदेवाल्यो विशिष्ट काणियों" प्रकाशित कोर्चाक माका अत्यंत संतोषु ज़ात्ता. डा. अमल सरकार आनि श्रीमति असीमा सेन ( शारदा प्रकाशन, नयी दिल्लि) हान्नि रवींद्र नाथ टागोराल्यो काणियो संकलन आनि अनुवादु कोर्नु " विशिष्ट कहानियां" हें पुस्तक हिंदींतु प्रकाशित केल्यां. ताज्जेरि आधारित काणियों कोंकणींतु रूपांतर कोर्नु हें दुस्रे पुस्तक प्रकाशित केल्यां.

मेग्गेलें पयलें पुस्तक," भंडारि माम्माल्यो काण्यो" प्रकाशित ज़ाल्ले नंतर, अनेक वाचकालो उत्तम प्रतिसादु मेळ्ळो. चेरडुवांक काणि सांग्चे वेळारि ह्यो काणियो सांगुयेत अश्शींयी अभिप्रायु दिल्ला. ह्या निवृत्ति कालांतु सुद्धां मेग्गेले हात्तान कोंकणी भाषेचि सेवा ज़ाव्वो अश्शींयि अनेकानि मागणि केल्ली. आसो, जास्ति कौतुक नाका!.

नोबेल पुरस्कार विजेता, गुरुदेव रवींद्रनाथ टागोर, अस्सल्या महान साहिति बद्दल हांवें बोरोन्चे ज़ाल्यारि तोंडऽ सानऽ घासु होडु अश्शिं ज़ात्तलें. ते मुख्यतः कवी आश्शीले. बंगाली साहित्यांतु विशेष्तः नाटक, कादंबरी, गद्य साहित्य, काणियांचे क्षेत्रांतु तान्नी अनमोल देणगी दिल्या. तांगेले काणियेंतु कवीतेचो संबंधूयि आस्सा. सुरुवातिक तान्नी चार–

पांच काणियो बरैल्यो. नंतर तांगेलेयी हात्तान काणियेंचो उत्कर्षु ज़ाल्लो. " क्षुधितो पाषाण " ही काणी अत्यंत उच्च कोटीचि म्हूण्णु प्रसिद्ध ज़ाल्या.

तांगेले काणियां पैकि सुप्रसिद्ध काणि "काबूलि वाला" कोंकणींतु रूपांतरित कोर्चे धाडस हांवें केल्यां. ही काणि अनेक भाषेंतु रूपांतरित ज़ाल्या. वीर ब्राह्मण– केशर लाल, अध्यापक, पोष्ट मास्तर, मल्लैयालो चेल्लो परत आय्लो, अस्सले रंजक काणियो सुद्धां हे पुस्तकांतु आस्साति. वाचकांनि ह्यो काणियों वाच्चूनु, ताज्जो आनंदु घेत्ल्यारि मेग्गेलो श्रमु साफ़ल्य ज़ात्तलो अशिशं हांवुं समज़्तां. हे वरस गुरुदेव रवींद्र नाथ टागोरालि १५० ची जयंति आशिल्यान हें तांकां सादर पूर्वक अर्पण कर्तां.

ख्यात साहिति, श्री नागेश दत्तात्रय सोंदे, हान्नि रवींद्र नाथ टागोरालि १५० ची जयंति आशिल्यान हें हिंदिंतुल्यान कोंकणींतु रूपांतरित कोर्नु प्रकाशित कोर्चे बद्दल सूचनासहित वेळो वेळि उपतुक्त मार्गदर्शन केल्लिल्याक मेग्गेलो मनःपूर्वक आभारु व्यक्त कर्तां.

श्री रवींद्र आकळवाडि, मनोहर प्रिंटर्स, धारवाड, हान्नि सुंदर रूपान हें पुस्तक छाप्सूनु दिल्ले बद्दल हांवुं उपकृत.

तश्शींचि मेग्गेली सौभाग्यवति, पूतु, सून हांगेले सहकार्याक हांवुं नमूद कर्तां.

जै कोंकणी, देवु सर्वांक बरें करो.

इति तुमगेलो विश्वासि ,

रामचंद्र जी. भंडारि, मुंबयि.

आत्तां श्रीमति शीला कंबदकोण , हिग्गेलो अभिप्रायु वाचा:–

श्री रामचंद्र भंडारिगेले पयले पुस्तकाक श्री नागेश सोंदे माम्मान, देवु, श्री रामचंद्रान सेतु बांदतना एक सानऽ खारेन केल्लेले सेवेक तुलना केल्लें, मात्र न्हयीं तांगेले कोंकणी भाषेंतु बोरोन्चे प्रयत्नयी मस्त चांग रीतिरि मुखारि वोच्चो आश्शीं तांका उत्तेजन दिल्ला. हें कामऽ आत्तां दुस्रे पुस्तकांतु मुखारि व्होर्चें आस्स म्हूण्णु माक्का भो संतोषु ज़ात्ता. तान्नि पौराणिक आनि रवींद्र नाथ टागोर हांगेल्यो काणियो कोंकणींतु बोरोन्चाक घेत्तीले उत्तम ज़ाल्यां म्हूण्णु हांवूं तांगेले कौतक कर्ता तांगेली साधी शैलि आनि अनेक काणियो वाच्तल्यांक मस्त आवडतलेंहांतु कायीं संशयु ना.

मनुष्यू म्हांतारो ज़ाल्लो तरी, मनऽ केद्नायी जवान ज़ाव्नु आस्ता," हें रामचंद्र भंडारीन सिद्धकोर्नु दाकेल्या. देवु तांकां बरें करो.

इति शीला कंबदकोण. मुंबयि.




# अनुक्रमणिका

# काबूलिवाला

मेग्गेल्या पांचवर्सा धूव, मिनिक एक मिनिटभी कस्सलें तरी उलैनाशि उर्चाक ज़ाय्ना. भासऽ उल्लोञ्चाक शिक्किलें पास्सूनु मौन धोर्चं तिक्का अशक्यप्राय

केद्‌ना तरी तिग्गेलि आव्सु. भिष्ठावूनु तिग्गेलें तोंडऽ बंद करैशितालि. पण हांवुं तशिं कर्नाशिशलो. तिग्गेले मौन अप्रकृतिक आस्सूनु , जास्ति वेल्ळा पर्यंत माक्का सहन ज़ाय्ना म्हूण्णु मेज्जो वोट्टु तिग्गेलो वार्तालाप भारी उत्साहान चालु दवर्ता.

सकाळिं मेग्गेलें कादंबरीचें सत्रहवे अध्यायु बोरोञ्चाक सूरु कर्ता, मिनि थयीं आय्लि. म्हळ्ळालि– ''पप्पा, रामदयालु, काय्ळाक काको म्हणता. ताक्का कस्सलेंयी गोत्ता न्है,पप्पा.''

जगांतुले भाषेंचे वेगळे पणांची माहिति दिवोव्सुचे पैलेंची दुस्रो प्रश्नो विचार्लो

भोला सांग्ता कीं,– हस्ती सोंडाळींतु उद्दाक भोर्नु आकाशांतुलान पाव्सु पाडैता. हें कशिं शक्य आस्सा? पूरायी फट्टी उलैता. दिवस– रात्री फक्ता अगडम बगडम बड्‌बडत उर्ता.''

त्या बाब्तींतु मेग्गेलो अभिप्रायु आय्कूचें पैलेंयी आनी विच्चार्लें, "पप्पा , हांवुं तुका कितें लेक्तां.?" मनांतुलें मनांतु सांग्लें , "फटींगी," आनि साग्लें–" मिनी, तूं आत्तां भोलावोट्टु खेळचाक वऽच , माक्का थोडेशें काम आस्सा.

हांवें लेखन कोर्चे टेबला सक्कल मेग्गेल्या पाय्यालाग्गीं बैसूनु पुनः अगडम बगडम उल्लोंव्चाक चालू केल्लें. मेग्गेल्या सत्रहवे अध्यायांतुलो कथानायकु, प्रताप सिंहाक कांचनमालेक धोर्नुघेव्नु, काळ्का रात्रींतु, खिड्कींतुल्या न्हयींतु उड्किमार्नु धाव्नु वोच्चाशिलें. मेग्गेली खोली रस्त्यालाग्गीं आऽशीलि.

एका एकी खेळचें सोण्णु, खिड्कीलाग्गीं धाव्नु "काबूलिवाला, ए, काबूलिवाला" अशिशं मिनि ताक्का आप्पोंव्चाक लाग्लि.

चिक्लाटें सढळकुर्ता न्हेस्सूनु, पगडी बांदूनु खांद्यारि ज़ोळी लांबैत, उंच लांबायिचो काबूलिवाला, सावकाश रस्त्यावैल्यान वत्ताशिलो. ताक्का पोळोव्नु आम्गेल्या कन्यारत्नाले मनांतु कस्सलो विचारु आय्लो हें सांग्चें कठीण. खांद्यावैले ज़ोळींतुल्यान खंचीतरी आपत्ती येव्नु, मेग्गेलो सत्रहव्या अध्यायु अपूर्ण उर्तलो अशिशं दिस्लें. मिनीन आप्पैलें तऽशींहास्तचि काबूलिवाला, आम्गेले घरादिक्कान येव्चाक लाग्लो. ताबडतोप मिनि भाय्रि धाव्नु वोच्चूनु बेपत्ता ज़ाल्लि. तिग्गेले मनांतु काबूलिवालाले ज़ोळींतु मनुष्यालि, चारि– पांच जीवंत बाळशीं आस्साति अशिशं अंध– विश्वास सो आऽशीलो.

हांगा काबूलिवाला, वांकूनु सलाम कोर्नु, मेज्जे एद्राक राब्लो. यद्यपी प्रतासिंह आनि कांचनमालालि, परिस्थि अत्यंत

भयानक आस्ली तरी काबूलिवालाले सामानांतुल्यान कस्सलें तरी खरेदी कर्नाशीं उर्चे प्रशस्त दिशिल्ना . आनि खरेदीयि केल्लि. नंतर अब्दुर रहमान , रशिया, ब्रिटिश, सहित सरहद प्रांताचे आरक्षण नीति वगैरे विषयांचेरि चर्चे ज़ाव्चाक लाग्ले. आखेरीक भाग्रिसर्चे थोडे वेळा पैलें ताणें विचालें–" बाबूजि, तुम्गेलि मोग्गा धूव खयीं धांव्नु गेल्ली.?मिनीले बनावटी भय्य धूर कोर्चें खात्तीरि हांवें तिक्का आप्पैलें.ती मेग्गेल्या आंगाक चिकटूनु राब्बूनु, काबूलिवालालो चेहरो अनि ज़ोळीक संशयास्पद नज़रेन पोळोंव्चाक लाग्लि. तोद्ना काबूलिवालान,ज़ोळींतुल्यान किस्मिस्स, खोवानी, बदाम वगैरे भाग्रि काण्णु दिल्लें. पैशे दिव्चे नाक्काची म्हळ्ळालो. दुप्पट संशयान, मिनि ताक्का नियाळत राब्लि. अश्शिं तान्नी दोग्गालो पयलो परिचयु ज़ाल्लो.

थोडे दिव्सा नंतर, कामांखात्तीरि भाग्रि वत्तस्तना हांवें पळैलें की– मेग्गेली धूव एक बेंचारि बैसूनु आपण्याले मोड्कर बंगाली भाषेंतुल्यान कस्सलेंकी बडबडत बस्ल्या. तिग्गेले पाय्या मूळांतु बैसूनु हास्तची काबूलिवाला तें अय्कता. तीणें अपण्याले पांच वर्सा जीवनावधींतुले अनुभवाक बाप्सूशिवायि कोणांकयी सांगिल्नाशिले. कारण कळ्ळें– तिग्गेलो पोशाकाचो खीसो किस्मिस, बदामानं भोर्नु गेल्ला.

"कस्सल्याक दिल्लें?" हाज्जा नंतर दीव्नाका" सांगूनु हांवें काबूलिवालाक आठ आण्या पाव्लि दिल्ली. ताणें निस्संकोचान आपण्याले ज़ोळींतु घाल्लि.

घरा परत्लें नंतर आठ आण्या पाव्लीवैल्यान होडु गलाटो चल्लो.

मिनीलें आव्सूनु भिष्टाय्त विचार्लें– “ही पाव्ली तुक्का खंचान मेळ्ळी?”

मिनीन ज़वाब दिल्ली– “काबूलिवालान दिल्लि.”

मिनीलो आव्सूलो प्रश्नो, – तूवें ती कसल्याक घेत्ली’

खळ्स खळ्सऽ काण्णु रडत मिनीन सांग्लें– “हांवें घेत्तिल्ना, ताणें स्व्तःची माक्का दिल्लि.”

मुकावैलें आपत्ती पास्सूनु वांचोव्चे खात्तीरि, हांवें मिनिक भायिर व्हेल्लें. तेद्ना कळ्ळें की ही मिनि आनि काबूलिवालालि पैली भेट न्हयीं, पिस्ता बदामांचे आमीषान ताणें मिनिलें मनऽ आपण्यालें स्वाधीन कोर्नु घेत्ला. अनि दोनी दोस्त हास्तची बडबडत आस्साचि

“काबूलिवाला रहमताक पळैलें तशीं मिनिन विचर्लें– “काबूलिवाला, तुग्गेल्या ह्या ज़ोळींतु कस्सलें आस्सा?” “आपण्यालें दोन्नी हाथ वैरि कोर्नु तो म्हळ्ळालो,” “ईत्लि होडी हस्ती” ह्या अर्थशून्य संभाषणेन दोग्गांकयी मजा येत्ताशिलि. खस्खसूनु हास्ताशिले.

शरत्काला प्रातःकालारि,एक वयस्कर व्यक्ति आनि एक सान चेरडा मध्येंतु ज़ाव्चे हीं सरल उत्रं आनि मस्करीन माक्का समाधान मेळ्ताशिलें.

एक पटीं काबूलिवालान मिनिक विचार्लें,_ “मेग्गेल्या मोग्गा मिनि, तूं मांवाले घरा केद्ना वत्ता?”

बंगालि चेल्यांक, सान्पणाथाकूनु “मावां घरा वोच्चें” ह्या शब्दाची संपूर्ण माहिति उर्ता. पण आम्मि आधुनिक आश्शिल्यान आंम्गोले कन्यारत्नाक ताज्जि माहिति नाशिलि.

तीणें उलट ताक्का विचार्ले– "तूं केद्‌ना मावां घरा वत्ता"? रहमतान हात्ता मूष्थि ऊंच कोर्नु , काल्पनिक मावांक उद्देशूनु म्हळ्ळालो– "हांवु मांवांक मार्नु घाल्ता". हें आय्कूनु, मांवुं नावांचे अज्नानी जीवाक ज़ाल्चे वायिट अवस्थे कल्पनेन खळखळूनु हास्लि.

निर्मल शरत्कालाचेरि प्राचीन कालांतु, राजा– महाराजा दिग्विजयाचेरि भाग्रि सर्ताशिले. हांवु कल्कत्ता सोण्णु खयींचि गेल्लिल्ना. बंद खोलींतुलो चिर प्रवासि. खंचेयी विदेशाचें नांव आय्कले कीं – थंचो नद्यो, पर्वत, जंगलांतुलें कुटीरातु जीवन कोर्चें दृश्य मेग्गेल्या दोळ्या ऐद्राक येत्ता. त्या आनंदमय जीवना कल्पनेन मनांक सूख मेळ्ताशिलें.

वृक्ष सद्रश मेग्गेलो स्वभावु. निर्धारित स्थान सोण्णु, दुस्रे कडे वोच्चें मांव काड्ले कीं विजेचो ज़ट्को लाग्गिल्यावारि कड्ढडो येत्ता. खोलींतु टेब्ला ऐद्रारु बैसूनु, काबूलिवालालाग्गिं उलैत बस्ल्यारि फिर्चा वोच्चें काम वांच्ता.

दोनी बाज़ून वांक्डि तिंक्डी पर्वत श्रेणि, मधो–मधें बारीक रस्त्यावैल्यान, फाट्टीरि सामाना वोज्जें दवोर्नु वोच्चे वोंट्या सालु, मात्यारि पगडी बांदूनु,थोडेशे व्यापारि, प्रवासि, हात्तांतु बंदूक धोर्नु, वोंट्यारि बैसूनु, किंवा पायवाट्टेन वोच्ची सर्व माहिति, काबूलिवाला आपण्याले मोड्ढर बंगाली भाषेंतु सांग्ताशिलो. तस्सलींचित्रं मेग्गेल्या मनांतु चित्रित ज़ाल्नु उर्ताशिलिं.

मिनीलि आव्सु अत्यंत शंकाग्रस्त रमणि. रस्त्यारि कस्सलो गलाटो ज़ाल्यारि, जगांतुले सर्व शराबी( सोरो पित्तले) आम्गोले घराकडेनची येत्तातिं. प्रत्येक ज़ाग्यारि चोर, डाकू, शराबी,

मलेरिया रोगि, गोरे लोकु आस्साति. अशिं तिगेलि शंका. तिग्गेलेवोट्ट इत्लेवर्सऽ संसार कोर्नूयि तिग्गेले मनांतुलि भीति दूर कोर्चाक ज़ाल्ना.

रहमत काबूलिवाला बद्दल ती संपूर्न निर्भय नाशिलि. ताज्जेरि लक्ष्य दवोर्चाक ती पदे पदे विनांति कर्ताशिलि. तिग्गेले संशयाक हास्सूनु उडैल्यारि – "काबूलिस्थानांतु गुलामगिरि प्रथा नांवें? कोणाली चेर्डालि चोरि कोर्चें शक्य नांवे? राक्षस समान काबूलिवालाक एक सान चेर्डालि चोरि कोर्चेंशक्य नांवे?"

तें ज़ान्चें संभव आस्सा "म्हूण्णु तिग्गेले तर्कान माक्का कबूल कोर्का पळ्ळें. पण प्रस्तुत परिस्थितींतु तशिं ज़ान्चें शक्य ना. विश्वास दवर्चि शक्ति सर्वांक एकऽचि रीतिरि ना. मेग्गेल्या पत्नील्या मनांतु एकतरेचे भयशें उल्यां. कस्सलो दोषु नास्तनां रहमताक – तूं आम्गेल्या घराक येन्नाक्का" म्हूण्णु सांग्चा ज़ाल्ना.

प्रत्येक वर्स, माघ महिन्यांतु रहमत आपण्याले घरा वत्ताशिलो. आपण्यान दिल्लेली रकम रिणकारापास्सूनु वसूल कोर्चाक घरा घरा वोच्काशिलें.तरी दिव्सांतु एक पटी तरी मिनीलि भेट ज़ाव्का. सकाळिं मेळनाज़ाल्यारि, सांजेरि मेळचें पळैल्यारि, हीं दोग्गं मेळनु कसलेकी षड्ंत्रा ज़ाळें विणताति अशिं दिस्ताशिलें. सढळ कुर्ता– कमीज़ न्हेस्सूनु ज़ोळि लांबैत लांबूलांब रहमतान येन्चे पळैल्यारि, मनांतु शंकाशि उत्पन्न ज़ान्चें सहज़. मिनीन, ए, काबूलिवाला, आप्पैत हास्तची धांन्चें, असमान वयाचें दोग्गां मध्दें ज़ान्चे हास्य– विनोद आय्कूनु मेग्गेलें मनऽ फूल्नु वत्ताशिलें.

काबूलिवालान भाग्रि सर्चे दोन–तीन दिवस पैलें कडाक्याचि थंडी पळ्ळीलि,आंगांतु कड्कडसो येत्ताशिलो. खिड्कींतुल्यान येन्चें वत्ता हुन्साणीन मेग्गेले पाय्यांक सुख मेळ्ताशिलें

सकाळचें आठ घंट्या सुमाराक, मेग्गेल्या खोलींतु बैसूनु हांवुं प्रूफ्शीटांची तपासणी कर्ताशिलो. तेद्ना ऐकाएकी रस्त्यारि होडि गौजि आय्कलि. पळैलें– दोन पहरेदार आम्गेले रहमताक धोर्नु व्हर्ताशिले. रहमताले कमीज़ाचेरि रक्ता निशान, पहारेदाराले हात्तांतु रक्ताळ चाकु दिस्लो. फाटका भाग्रि येव्नु चौकाशि केल्लि. तेद्ना कळ्ळें कीं– शेज्जार्चे ऐक्ळयान रहमतालाग्गिं पैशे उशीणें घेत्तीले. तें फट्टी सांगूनु रीण चुकोव्याक इन्कार केल्लो. दोग्गां मद्धें तकरार ज़ाव्नु शिवी–गाळीशि ज़ाव्नु , रहमतान ताक्का चाकून घुसैलें.

तेद्ना, काबूलिवाला, ए, काबूलिवाला आप्पैत मिनि थर्यीं आय्लि. तिका पोळोव्नु रहमतालो चेहरो हास्मुखी ज़ाल्लो, खांद्यारि ज़ोळि नाशिलि. नित्याचि मस्करि ज़ाल्लिल्ना.

मिनीन ताक्का विचार्लें– “तूं मांवां घरा वत्ता”?

हास्तची रहमतान सांग्लें – “थर्यींचि वचत आस्सा.”

हाज़्ज़ो अर्थु मिनिक कळ्ना म्हूण्णु, हातऽ दाकोव्नु रहमत म्हळ्ळालो, – “हांवु मावांक मार्नु उड्डैताशिलो. पण हातऽ बांधूनु घाल्यांति”.

खून कोर्चे प्रयाला कारणान रहमताक कित्येक वर्साचि सज़ा ज़ाल्लि.

ताग्गेलि उन्नं अशींचि विसोर्नु गेल्लीं. नित्यावारि आम्गेले कामांतु आम्मि दिवस काड्तना, पर्वत प्रदेशांतुलो एक व्यक्ति

कैदखान्यांतु कशिशं दिवस काड्तलो हाज्जि चिंता आम्कां ज़राभी लाग्गिल्ना.

हांगा मिनीले वयऽ शीघ्रतेन वाड्डुत आश्शिलें. मैत्रिण्यो कम्मि ज़ाव्नु मित्र मंडळी जास्ति ज़ाल्लेलि. बाप्सूले लेखन-वाचना वेळेचो पत्तोयी लाग्नाशिलो. हांवें तरी मेग्गेले पास्सूनु तिका वेगळें कोर्नु दवरिलें.

पाचव्याचो शरत्कालु आय्लो. मेग्गेल्या मिनीलें लग्न निक्कि ज़ाल्लें.पूजा रजे पैलेंची तिग्गेलें लग्नऽ संपन्न ज़ात्तलें.कैलास स्वामी वोट्टु लग्न ज़ाव्नु, मेग्गेली आनंदमयी धूव बाम्मणाले( पतीले) घरा वत्तली.

लग्नादिव्सा प्रातःकालु अत्यंत मधुर ज़ाव्नु आश्शिलो. शरत्कालाचे सूर्य प्रकाशान सर्व घरांचेरि सोनेरि रंगु पसरैयिलो. ह्या सूर्य प्रकाशा भव्यतेन वातावरणांतु एक अद्भुत लावण्य आयिलें

सकाळ पास्सूनु मेग्गेल्या घरा शहनायि वाज़्ज़त आश्शिलि. तो आवाज़ु मेग्गेल्या हाड्डाऽ - हाड्डांक स्पर्श कोर्नु, गुंज़त आशिलो. रागिणि, करुण भैरवि रागान नंतर येव्चे मेग्गेले विरह वेदनेक समस्त विश्वांतु पसरैयिलें.

आजि मिनीन लग्न ज़ाव्नु पतीले घरा वोच्चो दिवसु(विदायगिचो) आशीलो. सकाळ पासूनु घरांतु गौजि-गलाटो, खुशी खुशी उत्रं, आप्त लोकानि येव्चें वोच्चें सतत चालु आश्शिलें. आंगणांतु मंडप बांदीलो. घरांतुल्यो खोल्यो, वरांडांतु सगळीकडे तोरणऽ बांदीलीं

हांवें खोलींतु बैसूनु लेक्काचाराची तपासणी करीत आस्तना, रहमतु सलाम कोर्नु ऐद्राक राब्लो. सुरुवातीक

माक्का ताग्गेलो गुर्तु मेळ्ना, खांद्यारि ज़ोळी नाशिलि. शरीरांतु ताकतयी देकूं पळ्ना. ताणें हास्नाफुडें ताग्गेलो गुर्तु मेळ्ळो.

हांवें विचार्लें– “आरे रहमत, तूं केद्‌ना आय्लो?”

ताणें ज़वाब दिल्लि– “कालि सांजेरि ज़ैलांतुलान सुंट्‌लो.”

हें अय्कूनु मेग्गेलें मनऽ थोडेशें खटकलें. खूनी अपराधीक साक्षात पोळोव्नु, मनांतु अशिशं इच्छा ज़ाल्लि कीं– आयिचे शुभ मुहूताचेरि ह्या व्यक्तीन हांगा उर्चो नज़्ज़.

हांवें ताक्का सांग्लें– “आजि आम्गेले घरांतु थोडेशे कामऽ आस्सा. हांवुं गडबडींतु आस्सा, तूं परत वऽच.” हें अय्कून तो परत वोच्चाक भाय्रि सर्लो.पण दरवाजा लाग्गिं राब्बूनु थोडोसो विचारु कोर्नु म्हळ्ळालो– “बाबूजि, खोखीक एक पटीं तरी भेट्‌चाक ज़ात्तल्वे?”

ताग्गेले मनांतु होचि विश्वासु आशिलो कीं–” मिनि पयलेवारि पांच वर्साचि आस्तली. काबूलिवाला, ए, काबूलिवाला आप्पैत धाव्नु येत्तली. मस्करीचो संवादु ज़ात्तलो. इत्लें कीं ह्या दोस्ती खात्तीरि बदाम वगैरे माग्गूनु हाळ्ळीलिं

हांवें सांग्लें– “आजि घरांतु काम आस्सा. कोणाली भेट ज़ाय्सि ना.” हें आय्कूनु तो थोडोसो उदास ज़ाल्लो. निटऽ राब्बूनु,– “बाबूजि सलाम” सांगूनु फाटका भाय्रि गेल्लो. मनांतुले वेदनेन ताक्का परत आप्पोव्चो विचारु आय्लो. तित्ले भित्तरी तो स्वतः येव्नु हाज़िर ज़ाल्लो.म्हळ्ळालो– “बाबूजि, हीं अंगूर, किश्मिश बदाम खोखिनी खात्तिरि हाळ्ळिलीं, तिक्का दियाति. “ पैशे दिव्चाक काळ्ळें कीं , मेग्गेले हाथ धोर्नु म्हळ्ळलो –” मेज्जेरि तुम्गेलि होडि कृपा

आस्स, हांवु ती केद्नायि विस्सरशी ना.पण पैशें दीन्नाकाति. तुम्गेली धूवे तस्सली मेग्गेली एक धूव गावांतु आस्स. तिग्गेलो यादु कोर्नु तुम्गेल्या खोखी खात्तीरि मेवा बदाम हाड्तां. विक्चे खात्तीरि हाळ्ळिल्ना" अश्शिं सांगूनु कुर्तांतुल्यान एक मळकट कागत काळ्ळें.

तें अत्यंत काळजीपूर्वक सोडोन्नु मेग्गेल्या टेब्लारि दवर्लें. त्याकागताचेरि एकु सानु हात्ताचो छापु आश्शिलो.हात्ताक कस्सलेंकी चूर्ण लाव्नु कागताचेरि हात्ताचो छापु घेत्तिलो. धुव्वेलें स्मृतिचिन्ह छाती लाग्गीं दवोर्नु, रहमत प्रत्येक वर्सऽ रस्त्यावैल्यान मेवा विक्चाक येत्ताशिलो. त्या कोमल हात्ता स्पर्शान ताग्गेल्या विरह वृक्शाचेरि अमृत वर्शावु ज़ात्ताशिलो.

हें पोळोन्नु मेग्गेले दोळे भोर्नु आय्ले. खयीं मेवा विक्चो काबूलिवाला, आनि हांवुं एक संभ्रातवेश व्यक्ति खयीं? तोएकु बापूसु , हांवूंयी एकु बापूसु. ताग्गेलि पर्वत निवासिनि, सानशि पार्वतीले हस्त चिन्हान मेग्गेलो मिनिलो यादु आय्लो. तत्काल हांवें मिनीक रनिवासासानु आप्पैशिलें. महिलानिं बरोचसो आक्षेपु घेत्लो. हावें लक्ष्य दिला.

तांब्डे चेलि वस्त्रं न्हेस्सूनु, मात्यारि चंदन लाव्नु, वधूले वेषांतु, थोडेशे लज्जेन ,मिनि मेग्गेल्या लाग्गिं येव्नु राब्लि.

तिक्का पोळोन्नु पैलें काबूलिवालाक आश्चर्य ज़ाल्लें. पैले परिचयाचे निर्वाह कोर्चाक ज़ाल्लेना. आखेरीक हास्सूनु म्हळ्ळालो– "खोखी, तूंयी मावां घरा वत्तली"?

मिनीक आत्तां, मावां घराचो अर्थु पूर्णपणें कळ्ळीलो, लज्जेन आरक्त ज़ाल्लीलें तोंडऽ फिरोन्नु घेव्नु राब्लि. तांगेले पयले दिव्सा भेटीचो यादु येव्नु मनऽ व्यथित ज़ाल्लें.

मिनीन वला फुडें एकु होडु श्वासु घेव्नु, रहमत ज़मिनीरि बस्लो. ताका हठात कळ्ळें की, ताग्गेली धूवयी आत्तां इत्लि होडी ज़ाल्या! तिग्गेलो गुर्तूयि मेळशी ना. इत्ले वर्सा नंतर तिग्गेली परिस्थि कशिशं उर्तलि, कोणांक खब्बर. .

सकाळिं, शरतकाला प्रातःकालांतु शहनायि आवाज़ु अत्यांत मधुर ज़ाव्नाशिलो. रहमानु कल्कत्तेच्या एक गल्लींतु बैसूनु अफघाणिस्थानांतुले मेरु पर्वता दृश्य दोळ्यां ऐंद्राक हाड्चाक लाग्लो. हावें ताक्का एक नोट दीव्नु सांग्लें–" रहमत, तूं आत्तां तुग्गेल्या धूवेलाग्गिं परत वऽच. तुम्गेल्या दोग्गालिं मिलना आनांदान मेग्गेल्या मिनीलें कल्याण ज़ाव्वो.

ह्या पैश्या दानान लग्नसमारंभा खर्चांतु कटौति केल्लि. विजेचे ज़ग्ज़गीत दिव्वे, गढवालि वाज़्ज़प नाशिलें. रनिवासा बायिलांक कोपु आयिलो. हावें ताक्का लाक्ष्य दिल्ना परंतु ह्या मंगल प्रकाशांतु मिनील्या लग्न शुभ समारंभु ज़गमगूनु गेल्लो.

# पोस्ट- मास्टर

पोस्ट मास्तराक पयलें काम सुरु कोर्चाक उलापूर गावांतु वोच्का पळ्ळें. गांवु अत्यंत सादा आश्शिलो.लाग्गीं एक नीलकुठि आश्शिलि. थंचे सायबान बरेचशे सिफारिश कोर्नु एक पोस्ट आफीस चालु करैशिलें पोस्ट मास्टर कल्कत्ते रहिवासि. मासोळीक उदकांतुल्यान भाय्रि काळ्यारि ज़ान्वि तास्सलि पोस्ट मास्टरालि अवस्था ज़ाल्लीलि. मात्ते छप्पराचे, किंचित प्रकाशाचें एक खोलींतु तांगेले आफीस आश्शिलें. ऐद्राक मात्तेचो फोंडु. चारी बाज़ून जंगल. एक कूडांतु कारकूनावारिचे कर्मचारि लोक काम कर्तालें. तांका फुर्सतयी मेळना, शिष्ट लोकांवोट्ट मेळ्चाक ते उपयुक्त नाशिले. कल्कत्ते सानु आयिल्या सायबाक अपरिचित स्थाना वैल्यान येन्चें होड पणान सदा सर्वदा सुप्रतिभ ज़ान्नु आश्शिलो. थंचे लोकांवोट्ट मेळ्नु मिसळ्नु उर्चाक समऽ येनाश्शिलें.

काम जास्ति ना. मनोरंजना खात्तीरि एक– दोन कविता बोरोन्चें प्रयत्न केल्लें. तांतु दिवस भरी ज़ाड – पान्न वार्यानं हाल्चें किंवा आकाशांतुले मेघांक पळैत कोर्चें जीवन अत्यंत आरामांतुलें अस्सली भावना व्यक्त ज़ात्ताश्लि. पण अंतर्यामींक गोत्ताशिलें कीं,ज़र अरेबियन कादंबरींतुलो राक्षसु हाज़िर ज़ाल्यारि सर्व रुकांक एकी रात्रींतु काप्पूनु घाल्नु , एकु

पक्का रस्तो तयार कर्तलो. ताणें इमारता सालांतुलान आकाशांतुले मेघांक दृष्टिपथांतुलान भाय्रि काळ्यारि, शहरांतुलो अर्ध जीवित ज़ाल्लिल्याकपरत नवीन जीवन प्राप्त ज़ात्तले.

पोस्ट मास्तरालो पगारु अत्यंत कम्मि आशिलान, रांदप स्वतः कर्ताशिले. गांव्ची एक अनाथ बालिका घरा काम कर्ताशिलि. तिक्कायि जेव्चाक मेळताशिलें. तिग्गेलें नांवं रतन. बारा तेरा वर्साचि आस्सूनु, लग्नाचि शक्यता भारी ऊणें.

सांजे वेळारि गांव्चे गवळी घरांतुलान धुव्रादिव्वो घेव्नु भाय्रि पड्ताशिले. रातकिड्यांचो किर किर आवाज़ु येत्ताशिलो रुक्का मूळ वैरि बैसूनु गाम्व्चे नसीले वाड ल किंचळत पद म्हणताशिले. काट्यारि बैसूनु वार्यान हाल्चे पान्ना आवाज़ु सुखद लाग्ताशिलो,

दिव्वे लाव्चे वेळारि, खोलींतु मिण्मिण्ते दिव्वो ज़ोळोव्नु पोस्ट मास्टरान रतनांक आप्पैलें

दरवाज़ाचेरि बश्शिल्या रतनान विचार्लें– “ मास्तर साहेब, कित्याक आप्पैलें?”

पोस्ट मास्टर – “तूं कस्सलें कर्तऽ आस्सा?”

रतन– “आत्तं रान्नी उज़्ज़ो कोर्चाक रांदपा कूडांतु वत्तां.”

पोस्ट मास्तर – “रांदपा काम नंतर करि. पैलें हुक्का हाण्णु दी.”

हुक्कांतु तंबाकु उज्जाकेंडऽ घाल्नु फू,फू कर्तची रतन आय्लि.

पोस्ट मास्टरान हठात विचार्लें– "रतन, तुक्का आव्सूलो यादु येत्ता?"

"मास्टर साहेब, ती एक होडि काणि आस्सा."

थोडोसो यादु येत्ता , थोडोसो येनां. आव्सू पेक्षा बापूसु तिक्काा जास्ति प्रीति कर्तालो. बाप्सूलोयी थोडोसो यादु आस्सा. नित्यची बरेचशें काम कोर्नु, सांजेरि घरा येत्ताशिलो. हाज़्ज़ो यादु माक्का साफ आस्सा "अशिं सांगत पोस्ट मास्टराले पायालाग्गिं फरशीचेरि बस्ताशिलि. तिग्गेल्या धाक्ले भावालो यादु अज़ूनु येत्ता. पावसाडि दिवसांतु दोग्गंयी रुक्कारि चोण्णु, मासोळि धर्चे खेळु खेळताशिले. हाज़्ज़ो यादु तिक्का पदे पदे त्रासु दित्ताशिलो."

हीं उत्रं आय्कत, आय्कत मध्य रात्रि ज़ाव्नु वत्ताशिलि. पोस्ट मास्टराक परत रांदप कोर्चि इच्छायी ऊर्नाशिली. सकाळीं भेग्गीन रान्नि उज़्ज़ो कोर्नु, रतन दोन–चारि रोट्यो भाज़्ज़ूनु हाड्ताशिलि. रात्रि उर्लेलें रांद्पाना दोग्गांलें जेवण पूर्ण ज़ात्ताश्लें.

केद्ना तरी सांजेरि आफीसांतुला बांक्डारि बैसूनु पोस्टमास्त्तर भी आपण्याले घरा खब्बर सांग्ताशिले. – धाक्लो भावु, आव्सु आनि भैणीलि काणी..घरा बस्ल्या बस्ल्या तांगेले विचारानं मनांक त्रासु ज़ात्ताशिलो. " हें कोणा लाग्गिं सांग्चे?" हें सर्व अशिक्षित बालिका, रतनालाग्गिं सांग्चो एकु नवीन अनुभव ज़ाल्लीलो. इत्लें की रतन तान्गेलें घरचे लोकांक,आव्सु, दीदि,भैया, अशिं सांगूनु ते सुरुवाती पासूनु आपण्याक गुर्तु आशिल्यावरि आप्पोन्चाक लाग्लि. तिग्गेले सान हृदयाचेरि तांगेलो काल्पनिक छापु पळ्ळीलो.

पावसाडींतु एक दिवसु पाव्सु राब्बिल्यान, दन्पारा थोडिशी हुन्सणि येव्नु आरामप्रद हवा चल्ताशिलि. पाव्सान तिंबिले

तणऽ, रुक्कापान्नांतुल्यान येञ्चो सुवासु, सुखदायि आश्शिलो.प्रक्रुतीले दरबारांतु पक्षियो चिंव चिंव आवाज़ु कोर्नु, आपण्याले तकरार पदे पदे आय्कताशिलिं. पोस्ट मास्तराक जास्ति कामऽ नाशिले. ज़ाडांचें बारीक पान्नांक सावकाश हालैत येञ्चो वारो,अनि विचित्र पाव्सान वत–सळीचो खेळु चलैयिलो. आकाशांतु एक पटि विंगड ज़ाञ्चे, आनि एक ज़ाञ्चें मेघराशीचे दृश्य खरो खर अवर्णनीय आशिलें. तें पळैत बश्शिल्या पोस्ट मास्ताराक कोणि एक विशेष व्यक्ति आपण्यालाग्गिं उर्चि आशा ज़ाल्लि. आपण्याले ह्रुदयांतु संलग्न एक मानव मूर्ति दोळ्या एद्राक दिश्चाक लाग्लि. आश्शिं अनुभव आय्लो कीं ती पक्षिभी तींचि उत्रं पदे पदे सांगत आस्साति. अस्सले निश्शब्द वातावरणांतु रुक्का साव्ळेन धांपिल्या मध्यानांतु ममरीलि ध्वनीभि अश्शिं आय्कूं येत्ताशिली कीं कोणांकयी ताज्जेरि विश्वासुबस्नाशिलो.

आपण्याले अल्पशे वेतनाचे पोस्ट मास्टराले मनांतु कंटाळो येञ्चें सहज़. दन्पारा फुर्सतेंतु अस्सले भावनांचे उदय ज़ात्ताशिले.

पोस्ट मास्टरानं तेद्ना रतनाक आप्पैलें.

रतन तेद्ना पेरा रुक्का सक्कल बैसूनु पेरं खाय्त बश्शीलि. आप्पैलें आय्कूनु विचार्ले– “मास्तर साहेब, माक्का आप्पैलें?” “हांवुं तुक्का वाच्चाक– बोरोञ्चाक शिकैतां” सांगूनु पोस्ट मास्टरानं दन्पारां, “अ” पास्सूनु “आ” पर्यंत स्वरऽ शिकैले. थोडे दिव्सा नंतर मुक्ताक्षरभी वाच्चाक शिक्लि.

श्रावणांतु पोड्चो पाव्सानं फोंडऽ गटारं, नाले सर्व भोर्नु गेल्लीले. गांञ्चे रस्त्यावैल्यान वोच्चें बहुतेक बंद ज़ाल्लिलें.

सामानु हाड्चाक मार्केतांतु वोच्का पड्ताशिलें. दिवस- रात्रि बेब्यालो टरांव टरांव आवाज़ु, उद्दाक पोड्चो टप,टप आवाज़ु येत्ताशिलो

एक दिवस सकाळ पासूनु मेघं पसरलि. रतन, बरोचसो वेळ पर्यंत बागिलारि बैसूनु आप्पोन्चि वाट पळैताशिलि. नित्यावारि आप्पैल्ना म्हूण्णु साव्काश खोलींतु गेल्लि. - पळैलें - पोस्टमास्टर चुप चाप चारपायिचेरि आड पळ्यांति. आराम कर्ताति अश्शिं समज़ूनु, आवाज़ु कर्नास्तना खोलिभाय्रि वोच्चाक लाग्लि. अचानक आवाज़ु आय्लो-रतन!. लाग्गिं वोच्चूनु विचार्लें. "मास्टर साहेब , निद्दाल्यांचवे?" पोस्ट मास्टरानं दाब्बिल्या आवाज़ानं सांग्लें - आजि बरेंशें ना. तापु आयिल्यावारि दिस्ता. आंगाक हाथु लाव्नु पऽळे. "रतन म्हळ्ळाळी" व्हयि, मास्टर साहेब."

अस्सले भारी पाव्सु पोड्चे वातावरणांतु, रोगाक्रांत शरीराक कोणाल्याकड्चानं सेवा कोरोसूनु घेन्चि इच्छा ज़ात्ता. आंगाक कोमल हात्ता स्पर्शाचि अपेक्षा ज़ात्ता. स्नेही आव्सु किंवा भैणी लाग्गिं बैसूनु आपण्याले शीकपणांचि काळजी कोर्ची वासना उत्पन्न ज़ात्ता. आनि पोस्ट मास्टराली मनांतुली ही अभिलाषा अपूर्ण उर्लिनां, बालिका रतन आत्तां बालिका उर्लि ना. तीणें आव्सुले स्थानाचो अधिकारु ग्रहण केल्लो. हकीमांक आप्पैलें. नियमित वेळारि औषध- पाणीं पिवैलि, पथ्याचे जेवण करैशिले. रात्रि भरी उश्शालाग्गि ज़ागूनु बस्लि. अनेक पटीं विचार्लें- "आत्तां बरें आस्सा न्हे?"

बरेचशें दिवसा नंतर, मास्टर साहेब, आपण्याले दुर्बल शरीर घेव्नु उठाव्नु बस्ले. मनांतूयि निश्चय केल्लो. कश्शीं तरी कोर्नु हांग्चान बदली कोर्नु घेव्का पड्तलें. स्थानीय

अस्वास्थ्य परिसराचें उल्लेख कोर्नु पोस्ट मास्टरान बदलीचि प्रार्थना सहित कल्कत्ताचे मुख्य कचेरिक तुरंत अर्जि पेटैलि.

रोगीलि सेवा पूर्ण कोर्नु, खोली भाग्रि आपण्यालॆ ज़ाग्यारि रतन बश्शीलि. पयलेवारि आप्पैल्ना म्हूण्णु मधे मधें भित्तरी निरकूनु पळैताशिलि. पोस्ट मास्टर अत्यंत उदासीन ज़ाव्नु, चारपायिचेरि आड पोण्णु उर्ताशिलॆ, किंवां उठाव्नु बस्ताशिलॆ. आपण्यालॆ अर्जे ज़वाबाचि वाटऽ पळैताशिलॆ. दरवाजेचेरि बैसूनु बालिका रतनान मुक्ताक्षर वाच्चांतु कस्सली गडबडी ज़ाव्चा नज़्ज़ऽ म्होण्णु हज़ार पटी आपण्यालॊ पाठु वाच्लॊ. आखेर एक आठवाड्या नंतर सांजेरी तिक्का आप्पैलें. खोली भित्तरी धाव्नु वोच्चूनु विच्चार्लें– “मास्टर साहेब, माक्का आप्पैलें?”

पोस्ट मास्टरान सांग्लें– “रतन, फाल्याकयी हांवुं हांग्चान वत्तां.”

रतन– “खयीं वत्ताती?”

पोस्ट मास्तर – “मेग्गेल्या घरा वत्तां.”

रतन – “केद्ना परत येत्तलॆ?”

पोस्ट मास्टर – “आनि परत येना.” रतनान कस्सलेंयि विचारिलें ना.

पोस्ट मास्टरान स्वतः सांग्लें – “बदली खात्तीरि हांवें अर्जि केल्लीलि, अर्जि मंज़ूर ज़ाल्ना म्हूण्णु हांवें राजीनामॊ दिल्लॊ. आत्तां घरा वत्तां.”

बरोच वेळ पर्यंत कोणी कस्सलें उल्लैल्ना. मिण मिणतॊ दिव्वॊ ज़ळत आश्शिलॊ. छप्परांतुल्यान उद्दाक गळत आय्दनांतु पोड्चॊ आवाज़ू य़ेत्ताशिलॊ.

थोड्या वेळान रतन रोट्ट्य़ो भाज़्चे खात्तीरि रांद्पा कूडांतु गेल्लि. पयलेदिव्सावारि रोट्ट्यो भेग्गीं भेग्गीं भाज़्चाक ज़ाल्ना. अनेक विचारु येव्नु तिका त्रासु ज़ात्ताशिलो. पोस्ट मास्टराले खाणं समाप्त ज़ाय्ना फुडें रतनान विचार्लें– “पोस्ट मास्टर, माका तुम्मि तुम्गेल्या घरा व्हर्तले?”

पोस्ट मास्टरानं हास्तची सांग्लें– “पिश्शि खंची!, हें कश्शीं शक्य आस्सा?”

खंचे कारणान तिक्का घरा व्होर्चें शक्य ना “ हें तिक्का समज़ाव्नु सांग्चि ज़रूरि लाग्गिल्ना.

अख्खी रात्रि ज़ागें उर्चें, निद्दें मध्दें पोस्ट मास्टरालि –“पिश्शि खंची, हें कश्शिं शक्य आस्सा” हीं उत्रं बालिकाक परत, परत स्मरण दिव्चाक लाग्लिं.

सक्काळिं उट्टूनु पळैलें – तांका न्हाव्चे खात्तीरि उद्दाक दवर्लां,” कलकत्ता सवयीन ते ताज़ा उग्दकान न्हात्ताशिले. ते केद्ना भाग्रि सर्तले म्हूण्णु रतनान विचारिले नाशिले. ज़रूरि लाग्ल्यारि म्हूण्णु रतनान न्हयींचे उद्दाक हाण्णु दवरिलें

न्हाव्चे पूर्ण ज़ाल्ले नंतर, रतनाक आप्पैलें. हुकूम आय्कूचे खात्तीरि मालिकाले तोंडाकडे पळैत राब्लि. पोस्ट मास्टरान सांग्लें– मेग्गेल्या ज़ाग्यारि येत्तल्याक, हांवुं तुग्गेल्या बद्दल सांगूनु वत्ता. मेज्जेवारि तोयि तुक्का प्रीति कर्तलो. हांवें हांग्चान गेल्ले नंतर तुक्का ज़राभी काळजी कोर्चि नाक्का.

हीं उत्रं अत्यंत प्रीतिचि आनि दयेचीं आश्शीलिं. परंतु नारीले मनाक कोणऽ समज़ता? रतनान बरेच दिवस मालिकाले भिष्ठावण सहन केल्लिलिं. पण आय्चीं सहज उत्रं तिक्का सहन ज़ाल्लिल्ना.

ती रडत.रडत म्हळ्ळाली,– "नाक्का, नाक्का, तुम्कां कोणांकयी कस्सलेंचि सांग्चे नाक्का. हांवुं हांग राबशी ना." पोस्ट मास्टरान रतनाले अस्सले वर्तन केद्नायी पळैले नाशिले. हाज्जेन ते आश्चर्य चकित ज़ाल्ले.

नवीन पोस्टमास्टाराक कामांचो ज़वाबदारियो सांगूनु, ज़ाल्यो. भाग्रि सर्तस्तना रतनाक आप्पोन्नु सांग्लें– "तुक्का कस्सलेंयी दिन्चाक ज़ाल्ले ना. आजि वोच्चेवेळारि तुक्का कसलेंतरी दीव्नु वत्तां, ताज्जेन तुग्गेले नंतर्चे दिवस त्रासु नास्तना वत्तले."

पोस्टमास्टरान, रस्त्या खर्चाक थोंडेशे पैशे दवोर्नु घेव्नु,उर्लेलो पगारु खिशांतुल्यान काड्लो. तेद्ना रतन ज़मीनिरि बैसूनु पोस्टमास्टराले पाय धोर्नु म्हळ्ळालि,–"मास्तरसाहेब, तुम्गोलें बरें ज़ाव्वो, माक्का कस्सलेंयी दिन्चें नाक्का" सांगूनु थंचान भाग्रि धाव्नु गेल्लि.

पोस्टमास्टरा न होडु श्वासु घेव्नु, हात्तांतु सामाना थैलि घेव्नु, ट्रंकपेटि, कूलि(हमाला) मात्यारि चोडोव्नु, सावकाश न्हयींचे घाटा दिक्कान भाग्रि सर्ले. तान्नि होडीरि चड्ले नंतर, प्रृथ्वीचे उद्वेगा अश्रूंवारि, पावसाळ्या उदकान भर्लेल्या न्हयींतुल्यान ती होडी हाल्चाक लाग्लि. तश्शींचि मास्टरालें मनऽभी एक भारी वेदनेंन चल–विचल ज़ाल्लें. एक सामान्य ग्रामीण बालिकालें चेहरेन संपूर्ण विश्वांतुले उदासीनतेक पसरून घाल्लें! मास्टराले मनांतु परत वोच्चूनु संसारांतुल्या त्या अनामिकेक वोड्डूनु हाड्चि ज़बरदस्त इच्छा ज़ाल्लि. पण तेद्ना होडीचे पताकांतु(शीडांतु) वारो भर्लिलो. प्रवाहावेगू आन्निकयी वाड्डीलो. गावांक माक्षेन घाल्नु स्मशाना घाटु दिस्चाक लाग्लो.

न्हयींतु प्रवास कोर्चे पथिकाले उदास मनांतु हो तत्वाचो विचारु आय्लो. "जीवनांतु कित्ले विरह आस्साचि, कित्लीं मरण आस्साचि. परत गेल्यारि फायदो कितें?. जगांतु कोणऽ कोणालो उर्ता?"

पण रतनाले मनांतु खंचेयि तत्वाचो उदय ज़ाल्ना. ती फक्त रडऽत पोस्ट आफीसांतुले आज़ू–बाज़ूक फिर्चाक लाग्लि. तिग्गेले मनांतु क्षीणशि आशा आश्शिलि. बहुतेक पोस्टमास्टर परत येत्त्ले. हेचि आशेन तिक्का थंचान वोच्चाक ज़ायनाशिलें.

हाय ! मूर्ख मानव मनऽ, मनांतुलि भ्रांतीक कश्शीं विसोर्नु वत्ता? ज़ोरदार पुराव्याक सोण्णु दीव्नु, फट्टी आशेचे हात्तांतुं मनांक भाव बंदिस्त दवर्चा पळैता. युक्ति शास्त्र विधान बरेचशे समया नंतर कोळ्नु येत्ता. तेद्ना समस्त नसांक काप्पूनु घाल्नु , उर्लेलि सालि रक्त पीव्नु धाव्नु वत्ता. तेद्ना निद्देंतुल्यान ज़ागो ज़ाल्लिल्यावारि मनऽ दुस्रे भ्रांतीतु शिर्कून्चाक उतावीळ ज़ात्ता.

# वीर – ब्राह्मण, केशर लाल

दाजिलिंग पाव्ले नंतर पळैलें कीं– मोडं(मेघं) आनि पावसान धायी दिश्यो धांपूनु गेल्लील्यो. घरांतु बस्ल्यारि मनऽ उदास ज़ात्तलें. भायिर वोच्ची इच्छायी नाशिलि.

सकाळिं होटेलांतु चहा– फ़राळ घेव्नु, पायांतु भारी बुटं, मात्यारि मेकिंटोश(ओवर कोट) घाल्नु फ़िरचाक भायिर सर्लों. सतत मुसळ धार पाव्सु पड्ताशिलो. काळी काळी मेघं सर्व दिक्कान पसरिलिं. हिमालय पर्वता सहित, पूर्ण विश्वाचें चित्र पुस्सूनु उड्डोव्चि तयारि, विधातान केल्लिल्यावारि दिस्ताशिलि. निर्जन केलकट्टा रस्त्यारि एक्ळोचि फ़िरत अस्ताना विचार आय्लो, “शब्द, स्पर्श आनि गंधान भर्लीलि हया धरति मातेक परत पांचयी इंद्रिया द्वारा पांचयी रूपांतु पोळोव्नु तिग्गेले मनऽ अस्वस्त ज़ात्तलें”?

लाग्गींचि एक स्त्रीनं खळसऽ खळस काण्णु रड्चो आवाज़ु आय्लो. रोग, शोकान भर्लीले ह्या जगांतु कोणेय़ी रड्चो आवाज़ु कायिं नवीन न्हयीं. दुस्रो, ज़ागो, दुस्रो समय ज़ाल्यारि हांवुं तोंड फ़िरोव्नु भी पळैनाशिलो. पण ह्या मेघराज्यांतु, तीणें रोड्चो आवाज़ु स्पष्ट ज़ाव्नु मेग्गेले कानांतु आय्लो. आवाज़ा दिक्कान मुकार्सुनु पळैलें कीं– तांबूस रंगाचे, मळकट कपडे नेस्सूनु, अस्तव्यस्त रीतिनं बांदीले सोनेरि

केसाचि फ़ांति घाल्नु, रस्त्या किनार्याचे एक फ़ात्तराचेरि बैसूनु ती स्त्री रडताशिलि. हें तत्काल प्राप्त शोकाचें रोदन नाशिलें. बरेच दिवसा पास्सूनु एकत्र ज़ाल्लीलो दुःखाचो आवेगु, आनि एक्ळेपणांचे भारान फ़ुट्टूनु भायिर पळ्ळीलो. मनांतुले मनांतु, विचार केल्लो. हांवें रचना केल्लेली काणियेचो शुभारंभु ज़ाल्लो. पर्वताशिखराचेरि बैसूनु एक संन्यासिनि रडत बश्शें दृश्य हांवुं पळैतलों हें स्वप्नांतुयी लेक्किल्नाशिलें. मोडकर हिंदिंतु हांवें विचार्लें, –"तूं कोण, तुग्गेले दुःख कस्सलें?."

सुरुवातीक कस्सलीयि ज़वाब मेळ्ळिल्ना. काळकांतु चमकचे दोन दोळ्यान माक्का पळैलें. हांवें आश्वासन दीन्नु सांग्लें– "भीन्नाक्का, हांवुं कायिं वायिट मनीषु न्हयीं," तें आय्कूनु शुद्ध हिंदुस्तानींतु ती म्हळ्ळालि, "भय–भीति सर्व घांटूनु पीन्नु घाल्यां, लाज– लज्जा कस्सली उर्लि ना. बाबूजि, एके काळी हांवुं उर्चे जनान खान्यांतु भित्तरि येन्चाक, मेग्गेले भावाकयी परवानगि घेव्काशिलि. आजि माक्का कोणा एद्राकयी कस्सलो आड–पडदो ना."

सुरुवातीक थोडोसो कोपु आय्लो. मेग्गेलें चाल–चलन सर्व विलायातती आस्सूनु कायीं संकोचु नास्तना, हीणें माक्का "बाबूजि" म्होण्णु कस्सल्याक आप्पैलें?. हांगा मेग्गेली ही कादंबरि समाप्त कोर्नु, नांक उंच कोर्नु, सिगारेटा धुव्वोरु सोडीत, विलाततीपणाचे गर्वान भाय्रि सोड्यां अश्शिं दिस्लें. अंत्यारि कुतूहलान विजय मेळैलें. हांवें थोडेशे होडपण दाक्कैत विचार्लें– "माक्का कस्सलोयि सहायु कोर्चाक ज़ाय्तवे?. तुग्गेली कस्सलि विनंति आस्सा?" तीणें स्तिरभावान मेग्गेलो चेहरो नियाळ्ळो, आनि संक्षेपांतु उत्तर दिल्लें– "हांवुं बद्रावोनचो नवाबु, गुलाम कादिर खानालि धूव."

२९३।



"बद्रावोन खंचे देशांतु आस्स? गुलाम कादिर खानु खंचो नवाबु आस्सा? आनि ताग्गेलि धूव कस्सले दुःखांतु, संन्यासिनीले वेशांतु केलकट्ट्या रस्त्यारि, फ़ात्तरारि बैसूनु कस्सल्याक रडत आस्सा? हाज्जें मूळ-पाळाचि माहिति माक्का नाशिलि." "ताज्जेरि विश्वासुयी दवर्चाक ज़ायिशि ना. विचारु केल्लो- काणि रंजक ज़ायत आस्सा. तेद्ना चेहर्याक अत्यंत गंभीर कोर्नु, लांबू लांब सलाम कोर्नु,म्हळ्ळें- "बीबि साहिबा, माफ़ करा, माक्का तुमगेलो परिचयु मेळना." परिचयु मेळनाशि उर्चाक अनेक तर्क पूर्ण कारण आश्शिलीं. हांवें तिक्का हाज्जें पैलें पळयिलें नाशिलें, अस्सले दाट धुक्यांतु स्वतःचे हात पायभी समऽ दीस्नाशिले."

तीणें संतुष्ट स्वरांतु, दाव्या हात्ता इशार्यानं दुस्रे फ़ात्तरादिक्कान निर्देश कोर्नु माक्का म्हळ्ळालि, "बैसाति". माक्का लक्षांयांतु आय्लें कीं- "ह्या स्त्रींतु आदेशु दिव्चि क्षमता आस्स. शेवाळ्यान भर्लीले कठोर फ़ात्तराचेरि आसन ग्रहण कोर्चि सम्मति मेळ्ळिल्यान माक्का एक दुर्लभ संन्मान प्राप्त ज़ाल्ल्यां अश्शिं दिस्लें." बद्रावोनचो गुलाम कादिर खानालि पुत्रि, नूरुन्निसा, किंवा मेहरुन्निसा किंवा कोण आस्सा ती, दार्जिलिंगाचे केलकट्टा रस्त्यावैले किनार्याचा चिक्लट आसनाचेरि आपण्या लागिगं बश्चाक माक्का अधिकारु दिल्ला. हॉटेलांतुल्यान भायिर पड्तस्तना, असल्या महान संभावनेची कल्पनेक स्वप्नांतु सुद्धां लेकिल्नाशिलें.

हिमालया पर्वता सक्कल्चे फ़ात्तराचेरि बैसूनु, दोन नर-नारी प्रवासी, एकांतांतु आपण्यालि काणि आय्कुसुचांतु, आत्तंचि पूर्ण ज़ाल्लीलि कवोष्ण काव्य कथा समान लाग्ताशिलि. पथिकाले हृदयांतु दूरसानु देकुं पड्चें पर्वतश्रेणि, गुफ़ांतुल्तान देव्नु येव्चे जलप्रवाहा ध्वनि वगैरे कालिदास रचित, मेघधूत, कुमार संभवाचे विचित्र संगीत भी जाग्रत

ज़ात्ताशिलें.बूट आनि मेकिंटोश (ओवर कोट) घाल्नु केलकट्टा रस्त्या गलिच्छ आसनाचेरि बैसूनु, दीन वेश धारण केल्लेलि हिंदुस्तानि स्त्री संगत एकत्र चर्चे कोर्नु आपण्याले आत्म गौरवाचें अनुभवु कोर्चि नवीन बांगालि व्यक्ति भारी ऊणें. हें सर्वांकयी कबूल कोर्का पड्तलें.

सर्व परिसरु धुक्यान धांपूनु गेल्लिल्यान, लाज़- लज्जे प्रश्नोंयी येनाश्शिलो. गुलाम कादिर खानालि पुत्रि आनि हांवूं, एक आधुनिक, नव विकसित बंगाली साहेब- दोन्नी दोन फ़ात्तरांचेरि बश्शिलीं, ह्या बैठिके मिलनांतु कस्सलो परिहासु आस्सा, हें केवल आमगेलें भाग्यही ज़ाणता. आनि दुस्रो कोणी न्हयीं. हांवें विचार्लें- "बीबि सहिबा, तुमगेलि ही अवस्ता कोणें केल्ली?" बद्रावोन कुमारीन कपाळाचेरि मार्नु घेव्नु म्हळ्ळालि, "कोण हें सर्व करैशिता हाज्जि ज़ाणीव माक्कां ना, हे विशाल हिमालयाक, सामान्य जलान भर्लीले मेघान कोणें आच्छादित केल्लें, सांगाचि?"

हांवें खंचेयी दार्शनिक तर्क कर्नास्तना, तिग्गेले सर्व उत्रांचो स्वीकारु कोर्नु म्हळ्ळें- "तुम्मि योग्ययी सांग्लें, भाग्याचे रहस्य कोण ज़ाणता? आम्मि केवल कीडें ज़ाव्नु आस्साति."

तर्क कोर्नु बीबि साहिबाक इत्ले सुलभतेन सोण्णु दीनाशिलों. पण मेग्गेल्या भाषेंतु इत्लि शक्ति नाशिलि. चपरासि, पटेवालाले संगतीन शिकिल्या हिंदि भाषेन, केलकट्टा रस्त्या किनार्याचेरि बैसूनु, बद्रावोन या दुस्रे खंचेयी नवाब पुत्री संगत, अदृष्ट वाद, तशींचि स्वाधीन इच्छावादा संबंधांतु चर्चे कोर्चे माका केवल असंभव!. बीबि साहिबान सांग्लें- "मेग्गेली जीवनाचि विचित्र काणि आजि समाप्त ज़ाल्लि, ज़र फ़रमायिश केल्यारि मात्र सांग्तां."

हांवें ताबडतोप सांग्लें– "जरूर! फ़रमायिश कस्सली? मेहरबानि केल्यारि आय्कूनु कानऽ सार्थक ज़ात्तले."

हिंदुस्थानि भाषेंतु हांवें हींचि उत्रं सांग्ल्या मूण्णु कोणेयी लेक्चा ना. उत्रं उल्लोन्चि इच्छा आशिलि. पण सामर्थ्य नाशिलें बीबि साहिबान उल्लैतस्तना, प्रत्येक पाव्लारि सहज़ नम्रता, शब्द सौंदर्य, वाक्यांचो अटूट प्रवाहु पोळोन्नु माक्का अश्शिं दिस्ताशिलें कीं– स्वच्छ धुल्लेलें सोनेरी धान्याचे शेती वैल्यान, प्रभात समयाचो मंद– मधुर वारो हाल्लत आस्सा. हांवुं अशिक्षित जंग्ली मनुष्यावारि, संक्षेपांतु मोडकर भाषेन सीधा–साधा ज़वाब दित्ताशिलों. भाषेची शैलींतुले पूर्ण सहज शिष्टता माक्का केद्नायि कळ्ळिल्नाशिलि. तिग्गेले संगतींतु उल्लैतस्तना, हांवुं पयली पटि स्वतःहाचे आचरणाचे दीनता अनुभव कोर्चाक लाग्लों.

ती म्हळ्ळाली– मेग्गेले बाप्सूले वंशांतु दिल्लीचे सम्राटाले रक्त व्हावंत आस्स. त्या कुलगौरवाचि रक्षा कोर्चे कारण, माक्का उपयुक्त वऽरु ( होरेतु) मेळचें कठिण ज़ाल्लीलें. लखनौचे नवाबा वोट्टू मेग्गेले लग्नाचे चर्चे चल्लीले. पण बापूसु अस्थिर ज़ाव्नु आश्शीलो. तेद्ना दांतान बंदूकिचे काडतूस चाब्बूनु काड्चे वैल्यान, हिंदुस्थानी सैनिक आनि सरकार बहाद्दूरालि लडायि सुरु ज़ाल्लि. तोफ़ांचे धुव्रान, हिंदुस्थानांतु काळोखु पसर्लो.

स्त्री कंठांतुल्यान, विशेष रीतिन संभ्रांत महिलेले तोंडांतुल्यान, हिंदुस्थानी भाषा केद्नायी आय्कल्नाशिलि. माक्का स्पस्ट रीतिनं कळ्ळें कीं ही भास श्रीमंतालि भास आस्स. तस्सले दिवसऽ आजि नांति. आजि रेल्वे, टेलीग्राफ़ आनि कामांचे प्रभावान आभिजात भाषा लुप्त ज़ाल्या. सर्व

दुर्बल, तुच्छ, निरालंकार ज़ाल्यांति. नवाबज़ादी लोकाली भाषा आय्कलें कीं अंग्रेज़ानी बांदीली ही पर्वतनगरी, मोगल सम्राटाली मानस पुरी, दार्जिलिंग घन दाट धुक्यांक भेदन कोर्नु मेग्गेल्या दोळ्या एद्राक दिश्याक लाग्ता. संगमरवर फ़ात्तरान बांदीले विशाल, विस्त्रत, आकाशाक स्पर्श कोर्ची अट्टलिकीं, रस्त्यारि लांबी लांब बालाचे (शेपटीचे) घोड्यांक सज़ोव्नु बश्शीले घोडेस्वार, हस्तीचे फ़ाट्टीवैले सोनेरि ज़ालरान तयार केल्लीलो हौदा, नगर निवासियांलें मात्यारि रंग रांगीत पगडी, रेश्मि, मस्लिन कपड्याचे सढ्ळ कुर्ता, पायिजाम, कमरेचेरि बांधीलि लांबी लांब तलवार, वांक्डि टोकाचि ज़रीदार चप्पलं, लांबू पोशाकु, लांब–रुंद शिष्टाचारु नज़रे एद्राक येत्ताशिलो.

नवाब पुत्रीन सांग्लें– आमगेलो किल्लो यमुना नदीचे किनार्याचेरि आस्सूनु, केशरलाल नावांचो एक हिंदू ब्राह्मण आमगेलो सेनापति आश्शीलो." मेग्गेली छडी (काठि) ज़मिनीरि दवोर्नु, आरांमांतु आय्कत बस्लो.

नित्यची सकाळीं उठाव्नु अंतःपुरा खांचींतुल्यान पळैताशिलिं कीं– परम हिंदु, केशर लाल, यमुना नदींतु हृदया पर्यंतचे उद्कांतु राब्बूनु, प्रदक्षिणा करीत हाथ ज़ोड्णू मात्तें उंच कोर्नु, नवोदित सूर्याक अर्घ्य दीव्नु, वोल्ले कपड्या सहित घाटारि बैसूनु जपऽ पूर्ण कर्ताशिले. साफ़, सुंदर कंठान भैरवी रागाचे भजन म्होण्णु घरा परत वत्ताशिले. माक्का मुस्लिम धर्माचि माहिति नाशिलि. ताज्जि निश्चित उपासना विधि भी ज़ाणनाशिलि. भोगविलास, मदिरा पान, स्वेच्छाचारान आमगेले पुरुषाले धर्म बंधन दुर्बल ज़ाल्लीलें. अंतःपुरांतुले प्रमोद भवनांतुभी धर्म निर्जीव ज़ाल्लीले.

विधातप्न मेग्गेले मनांतु स्वाभाविक धर्म पिपासा उत्पन्न केल्लील्याचें दुस्रे गूढ कारण सांग्चाक ज़ायिशि ना. प्रति दिन शांत प्रभातेरि नवोदित सूर्याक, नीळ यमुनेचि निर्जन मेट्लांचेरि बैसूनु केशर लालान कोर्चि पूजा, अर्चनेन निद्देंतुल्यान ज़ाग्गिल्या मेग्गेल्या अंतःकरणाचेरि एक अव्यक्त भक्ति माधुर्यान परिपूर्ण ज़ाल्लीलें. नियमित शुद्धाचारान ब्राह्मण केशर लालालें गोरे रंगाचे सुंदर शरीर, ज्वलंत ज्योत्तीवारि तळपत आश्शीले. ब्राह्मणाले पुण्याचे महत्व, अपूर्व श्र्द्धेन ह्या मुस्लिम कन्येले मूढ हृदय विनमृ केल्लीले.

मेग्गेली एक हिंदु नौकरानि, नित्यची वांकूनु प्रणाम कोर्नु, केशर लालालि चरण धूलि हाड्ताशिलि. तें पोळोव्नु माक्का आनंद ज़ाव्नु, ईर्षा भी ज़ागि ज़ात्ताशिलि. क्रिया-कर्म, पर्व वगैरेचे प्रसंगाचेरि, ती दासि ब्राह्मणांक भोजन दीव्नु, दक्षिणा दित्ताशिलि. मेग्गेले तरफ़ेन तिक्का धनऽ दीव्नु "केशर लालाक आमंत्रण दीनावे?" अश्शिं विचाल्र्यारि ती जीब चाब्बूनु घेव्नु म्हणतालि. "केशर लाल ठाकूर कोणालेंयि अन्न किंवा दान घेनाति." प्रत्यक्ष या परोक्ष रूपान केशर लालाक भक्ति चिह्न दाकोव्चाक ज़ाय्नाशिल्यान मेग्गेले हृदय व्याकुल, अत्रप्त ज़ाल्लीले.

मेग्गेल्या पूर्वजानि एक ब्राह्मण कन्येक बलपूर्वक विवाह कोरोव्सूनु हाळ्ळीलें. हांवुं अंतःपुरांतु बैसूनु तांगेलो पवित्र रक्त प्रवाहु मेग्गेल्या नस- नसांतु होळ्चो अनुभवु कर्ताशिलिं. त्या रक्त संबंधान केशर लालाले अभिन्न संबंधाचि कल्पना करीत थोडीशि तृप्ति पाव्ताशिलि.

मेग्गेल्या हिंदु दासीन, हिंदु धर्माचे संपूर्ण आचार-विचार, देवी- देवतांगेल्यो काण्यो, रामायण, महाभारताचो

अपूर्व इतिहासु सांगिलें. तें आय्कूनु दरवाज़ा बंद अंतःपुरांतु बैसूनु, हिंदु जगताचे अनुपम दृश्य मेग्गेले मनोपटलाक ज़ागें कर्ताशिले. मूर्ति, प्रतिमा, शंख, घंटा नादु, सोनेरि शिखराचे मंदिर, आगरु, आनि चंदनान भर्लीले फ़ुलांचो सुगंधु, योगि आनि संन्यासिनियालें अलौकिक क्षमता, ब्राह्मणाले देवतुल्य महता, मनुष्य रूप घेत्तिल्या देवतालि लीला, हें सर्व माक्का एक अतिप्राचीन, अतिविस्त्रत, अत्यंत सुंदर, अलौकिक मायालोकाचि स्रष्ठि कर्ताशिलि. मेग्गेले हृदय प्रभात वेळारि विशाल,प्राचीन महलांतुले प्रत्येक कूडांतु सान पक्षीवारि उडूनु फ़िर्ताशिलें. आनि तें एक काणियेंतुलें परीयांलें साम्राज्य ज़ाल्लीलें.

तेद्‌ना ब्रिटिश कंपनी बहाद्दूर आनि हिंदू सिपाहियाली लढायि सुरु ज़ाल्लि. आमगेले बद्रावोनचे सान किल्यांतुयि क्रांतीचि लहर ज़ागी ज़ाल्लि. केशर लालान सांग्लें– आत्तं गोमांस खाञ्चे गोरे लोकांक आर्यावर्तांतुल्यान धांव्डानु, एक पटी हिंदुस्थानाचे राज्यपदा खात्तीरि हिंदू– मुसल्मानानी एकता ज़मोव्का पड्‌तलें. “मेग्गेलो पिता, गुलाम कादिर खान चतुर व्यक्ति आश्शीलो. तान्नी अंग्रेज़ लोकाले कूट नीतिक संभोदित कोर्नु, म्हळ्ळें कीं–” ते लोक असंभवाक संभव कोर्नु दाक्कैतले. हिंदुस्थानाचे लोकांक खंचेयी प्रकारान तांचेरि विजय प्राप्त कोर्चाक ज़ायिशिना. आत्तंच्या अनिश्चिततेचे परिस्थितितूं ह्या सान किल्याक सोण्णू दीवशि ना. हांवुं ब्रिटिश कंपनी बहाद्दूरावोट्टु लडायि कर्ना.

हिंदुस्थानांतुले समस्त हिंदू– मुसल्मानाले रक्त खत खतूनु उठाय्लें. मेग्गेल्या बाप्सूल्या ह्या व्यापारी सुलभ चातुर्यान आमगेल्या मनांतु धिक्काराची भावना ज़ागी ज़ाल्लि. अंतःपुरांतुलीं बेगम आव्सुयी चंचल ज़ाल्लीं.

हेचि वेळारि, सशस्त्र फ़ौज़ घेव्नु केशर लालान मेग्गेले बाप्सू लागिं सांग्लें– नवाब साहेब, तुम्मि आम्गेले संगत ऊर्ना ज़ाल्यारि, लढायीचे अखेर पर्यंत तुम्कां कैद कोर्नु, तुमगेले किल्याचेरि कबज़ा घेत्तलो. बाप्सून सांग्लें – ताज्जि कायिं अवश्यकता नां, हांवुं तुमगेले वोट्टूयीं उर्तलों. केशर लालान सांग्लें – राज्य खजानांतुल्यान पैशो काड्ढापड्तले.बाप्सून विशेष कांयीं सांग्नास्तना – ज़रूरि आश्शीले तश्शिं पैशो दीत उर्चे आश्वासन दिल्लें.

मात्या वैलो मागो, पाय्यांचें बोट्टां पर्यंत आश्शीलिं सर्व आभूषणं, कपड्यांतुं बांधूनु, आपण्याले हिंदू दासीले हस्ते केशर लालाक पावैलीं. तांगेले हे स्वीकारान आनंदान मेग्गेले हे अलंकारहीन शरीराचे प्रत्येक अंग पुलकित आनि रोमांचित ज़ाल्लें.

केशर लाल मात्ति खालीलि बंदूकिच्यो नळ्यो, पोरनी तलवारांक घास्सूनु, पुस्सूनु धार दिव्चे तयारींतु आश्शीले. अकस्मात एक दिवसु सांजेरी ज़िला कमीशनर साहेबु, तांबडे कपडे घाल्लीले सैनिकांक घेव्नु, परिसरांतु धूळि उड्डैत आमगेले किल्यांतु आय्लो. मेग्गेलो बापूसु, ग ुलाम कादिर खानान गुप्त रीतिन क्रांतीचि खब्बर तांका पावैशिलि. बद्रावोन फ़ौज़ाचेरि केशर लालालो अद्भुत प्रभावु आश्शीलो. तांगेली एकची इषार्याचेरि, मोडकी बंदूक, मात्ति लाग्गीलि तलवार घेव्नु, मरे पर्यंत लढायी कोर्चाक तयार ज़ात्ताशिले.

विश्वासघाती बाप्सूले घर माक्का नरकसमान दिश्चाक लाग्लें. क्रोध, दुःख लज्जा व तिरस्कारान छाति फ़ुट्चाक लाग्लि. दोळ्यांतुल्यान एक थेंबो उद्दाकभी आयिल्ना. आपण्याले

भित्र्या भावाले कपड्यान वेश बदलूनु अंतःपुरांतुल्यान भायिर आय्लिं. कोणांकयी लाग्गीं येव्नु चौकाशि कोर्चो प्रसंगूयि आयिल्ना.

धूळि, बारूदाचो धुव्वोरु, सैनिकालो आर्त नादु, बंदूकीचो आवाज़ु सर्व शांत ज़ाल्लो. तेद्‌ना मृत्यूचि भीषण शांतीन जल,स्थल, आनि आकाश धांपूनु घाल्लीत्यावारि दिस्ताशिलें. यमुना नदीचें उद्‌कांतु आपण्यालो तांबडो रंगु पसरोव्नु, सूर्य अस्त ज़ाल्लीलो. संध्या वेळाचे आकाशांतु शुक्ल पक्षाचो चंद्रु विराजमान ज़ाल्लीलो. युद्धक्षेत्रांतु सर्वत्र केवल मृत्यूचें

विकराळ रूप देकूं पड्‌ताशिलें. बाकि वेळु आस्ल्यारि मेग्गेलें हृदय करुणेन दाब्बूनाशिलें. पण आत्तं हांवुं चारी दिक्कान फ़िरत फ़िरत केशर लालाक शोधीत आश्शिलीं. खयीं आस्सा केशर लाल? हें एकमात्र लक्ष्या शिवायि, बाकि सर्व मिथ्या प्रतीत ज़ात्ताशिलें.

सोद्दत सोद्दत, रात्रीचें दुस्रे प्रहराचे, उज्वल चांदनींतु, रणभूमिचे थोडे अंतराचेरि, यमुना नदीचे तटा वैले आंब्या रुक्का साव्ळींतु, केशर लाल आनि तांगेलो स्वामिभक्त सेवक, देवकी नंदनालें मृत शरीर हांवें पळैलें. अतिशय घायाळ अवस्थेंतु सेवकानं स्वामीक, किंवा स्वामीनं सेवकाक युद्दभूमिंतुल्यान ह्या सुरक्षित स्थानांचेरि हाण्णु पावैल्यां आनि शांतीन मृत्यूले हात्तांतु आत्मसमर्पण केल्यां.

केशर लालाले पाय्यारि मात्तें दवोर्नु, दिंबीपर्यंत लांब्चे केस सोडोव्नु, तांगेली पाय्याधूळि पुस्लि. मेग्गेले ताप्पिले निडलाक तांगेले हिमशीतल चरणकमलाचे स्पर्श कोर्नु, चुंबन दिल्लें. क्षाणार्धांतु बरेचशे दिवसांतु भर्लीलि अश्रुधारा फ़ुट्टूनु भायिर पळ्ळि. केशर लालाले शरीर कांपत आश्शीलें

तोंडांतुल्यान वेदनेचो अस्पस्ट आर्तस्वरु आय्कूनु, चकित ज़ाव्नु तांगेले चरण तल सोण्णु दिल्लें. क्षीणस्वरांतु शुष्ककंठान तान्नी एक पटी म्हळ्ळें–उदाक.! तेचि क्षणारि धाव्नु वोच्चूनु, अंगांतुलिं वस्त्रं यमुना नदींचें उदकांतु तिंबोव्नु, तीं पीळ्नु, केशर लालाले वोंटांतुल्यान उद्दाक घाल्लें. दाव्या दोळ्यावैरि मात्याक लाग्गीले होड्ले घायाक तिंबिलीं वस्त्र पिंदूनु पटी बांद्लि.

अशिशं अनेक पटीं यमुना नदींतुल्यान उद्दाक हाण्णु पिवैलें, दोळे तिंबय्ले नंतर तांगेल्यांतु सावकाश चेतना उत्पन्न ज़ाल्लि. हांवें विचार्लें– “आनी उद्दाक ज़ाव्कावे?” तान्नी विचार्ले– “तूं कोण?” “माक्का स्वतःहाक शांत बस्चाक ज़ाल्लेंना.” हांवें सांग्लें– हांवुं तुमगेलि भक्त सेविका, गुलाम कादिर खानालि धूव,” माका दिश्शीलें– केशर लालाले आसन्न मृत्युचे समयाचेरि, ते सेविकेलो अंतिम परिचयु सांगाति घेव्नु वत्तले. कोण्णेयी हें सुख मेग्गेल्यान काण्णु घेवशीना. “परिचयाचि उत्रं आय्कूनु केशर लाल सिंहावारि गर्जूनु म्हळ्ळाले–” विधर्मि, हरामखोरालि धूव! मृत्युकालाचेरि यवनालें हात्तांचे उद्दाक पिवोव्नु, तूवें मेग्गेले धर्म नष्ट केल्लें, हें संगूनु तान्नि मेग्गेल्या दाव्या गाल्लारि पूर्ण शक्तीन थाप्पट मार्लि. दोळ्या एद्राक काळोखु येव्नु हांवुं मूर्छितशि ज़ाव्नु पळ्ळिं. निंव्विले सिगारेट हात्तांतु धोर्नु, हावुं मंत्रमुग्ध ज़ाव्नु काणि आय्कताशिलो. भाषा आय्कताशिलों, या संगीत आय्कताशिलों हें सांगचाक ज़ाय्शिना. तोंडांतुल्यान कस्सलींयि उत्रं भायिर येनाशिलिं. शांत बश्शाक ज़ायनास्तना हांवें म्हळ्ळें– जानवर!.

नवाब जादी म्हळ्ळाली “जानवर कोण? खंचेयी जानवर, मृत्यूचे समयारि वोंटा पर्यंत आयिले उद्दाक पीनाशि उर्तावे?”

हांवें अप्रतिभ ज़ाव्नु म्हळ्ळें – "योग्य आस्सा, ती देवता !"

तीणें म्हळ्ळें – "कस्सली देवता? खंचेयी देवता, भक्तान एकाग्र चित्तान केल्लेली सेवेचो त्यागु कर्तावें?"

हांवें – हेंवयी खरें आस्सा " सांगूनु चुप चाप बस्लों."

नवाब पुत्रीन मुकार्शिलें– "सुरुवातीक पूर्ण संसारु चूर चूर ज़ाव्नु मात्त्यारि पळ्ळील्यावारि दिस्लें. क्षणांतु चेतन प्राप्त कोर्नु त्या कठोर, निष्ठुर, पवित्र, वीरब्राह्मणाले चरणांक दूरसानु प्रणाम केल्लें. मनांतुयि म्हळ्ळें – " हे ब्राह्मणा, तुम्मि दीनालि सेवा, परान्न, धनीले दान, युवतीले यौवन, नारीले प्रेम स्वीकार्नाति, तुम्मि आत्तां स्वतंत्र, एकाकी, निर्लिप्त ज़ाव्नु आस्साति. माक्का तुमगेले समीप येव्नु आत्मसमर्पण कोर्चो अधिकारुभी ना."

भूमिचेरि मात्तें तेंकूनु नवाब पुत्रीन केल्लीले प्रणामांक पोळोव्नु केशर लालाक कस्सलें दिस्लें हें सांग्चाक ज़ाल्लें ना. ते निर्विकार चेहर्यान मेग्गेले तोंडाकडेन पोळोव्नु, सावकाश उठाव्नु राब्ले. आधाराखात्तीरि दिल्लेलो हातु बाज़ूक, कोर्नु कष्ठान यमुना नदीचे घाटारि पाव्ले. थयीं एकि सान नौका बांधूनु आश्शीलि. पेल्तान पावौंचाक कोणी नावाडि नाशिलो. तांतु बैसूनु केशर लालान दोरि सोडैलि. पळैत,पळैत ती मुख्य प्रवाहांतुल्यान होळत अदृश्य ज़ाल्लि. हृदयाचि समस्त भक्ति आनि यौवनाचे भारा सहित त्या अदृश्य नौके दिक्कान, चंद्रोदयान प्रकाशित ज़ाल्लेले हें व्यर्थ जीवन यमुना नदींतु विसर्जित कोर्चि इच्छा ज़ाल्लि. पण कोर्चाक ज़ाल्लें ना!. आकाशांतुलि चांदणी, यमुनाघाटा वैलि काळि वनरेखा, कालिंदि नदीचे गर्द, शांत जलराशि,दूर आंब्यारुकावैल्यान चांदणींतु

चमकचें आमगेलें किल्याचें शिखर, सर्वानी निशःब्द आनि गंभीर लयांतु मृत्यु गीत म्हळ्ळें. त्या रात्रि गृह, नक्षत्रानिं भर्लीलें तीनि लोकानीं मेळ्नु माक्का मृत्यु पान्चाक सांग्लें.परंतु शांत यमुना नदेचें जलांतु होॅळत आयिल्या एक अदृश्य जीर्ण नौकेन, विश्वमोहिनीन पसर्लेलें मृत्युचें आलिंगना पाशांतुल्यन माक्का मुक्त कोर्नु जीवना मार्गारि वोड्डूनु हाळ्ळें!. हांवुं स्वप्नमोहान आच्छादितावारि, यमुना नदीचें किनार्याचें वनांतु,या वाळूचें राशींतु, या कठोर फ़ात्तरा वैल्यान, कांट्याचा मार्गान फ़िरचालाग्लिं.

हांगा ती चुप ज़ाल्लि. हांवेंयी कस्सलें उल्लैल्ना.बरेचशें वेळा नंतर, नवाब पुत्रि म्हळ्ळालि.– हाज्जें नंतरचें घटनावळि अत्यंत जटिल आस्साति,ताज्जें खंचें रीतिन व्याख्या कोर्नु, साफ़,साफ़ सांग्चाक माक्का शक्य ना, दाट जंगलांतुल्यान खंचें रस्त्यान गेल्लीलिं, वगैरे हांवुं ज़ाणनां. पूर्ण काणियेक स्पष्ट आनि प्रत्यक्ष रूपांतु घाल्लिल्यान कस्सलें भी आसाध्य, असंभव, किंवा अस्वाभाविक लागशी ना. परंतु जीवनांचें इत्लें थोॅडे दिवसांतु हें कळ्ळें कीं तांतु तस्सलें कार्यीं ना. तें केवल कल्पना मात्र. एक पटी भाग्रि पळ्ळें कीं मुकार्सुचोॅ मार्गु आपो आप मेळ्ता. तोॅ असमान सुख दुःख, विघ्नांचें जटिलतेनि भर्लेलोॅ आस्लोॅ तरी निश्चितपणें तोचि योग्य मार्गु उर्ता.

ह्या नवाब पुत्रीलें लांब भ्रमण वृत्तांत सांग्चांतु माक्का उत्साहु ना. दुःख कष्ट विपत्ति आनि अपमान सहन कोर्का पळ्ळें तरी जीवन असहनीय ज़ाल्ना. ती म्हळ्ळाली" आजि अचानक परम दुःख आनि चरम सुखाची अग्नि नील्नु गेल्लि. ह्या मार्गावैल्या धूळिंतु हांवुं पळ्यां. आजि मेॅग्गेली

यात्रा समाप्त ज़ाव्नु काणी पूर्ण ज़ाल्लि." इत्ले सांगूनु ती चुप ज़ाल्लि. हांवें विचारु केल्लो-" ह्या काणियेचो अंतु अश्शिं कश्शिं ज़ात्तलो? "मोडकर हिंदिंतु म्हळ्ळें- "माफ़ करा, नंतरचे व्रत्तांत ज़रा साफ़ कोर्नु सांग्ल्यारि ह्या गुलामालि बेचैनि ज़रा कम्मि ज़ात्तलि." ती हास्लि. मेग्गेलो मोडकर हिंदीचो प्रभावु पळ्ळा. हांवें शुद्ध हिंदींतु उल्लैल्यारि, तिग्गेली लज्जा दूर ज़ाय्नाशिलि. पण तिग्गेली मातृभाषा हांवुं कम्मि ज़ाणताशिल्यान, दोग्गां मधें होचि एकु पडदो आश्शिलो. तीणें पुनः आरंभु केल्लो- "केशर लालालो समाचारु माक्का मेळत उर्लो, पण ताक्का भेट्चाक ज़ाल्लेना. तात्या टोपीलें दलांतु सामील ज़ाव्नु क्रांतीन भर्लेले खंचेयी दिशेंतु वज्रपातावारि आघात कोर्नु, अदृश्य ज़ात्ताशिले. त्या वेळारि हांवुं योगिनि ज़ाव्नु काशी शिवानंद स्वामीले निकट संस्क्रत शास्त्राचे अध्ययन कर्तची, युद्धाचे समाचार संग्रह कर्ताशिलिं."

सावकाश ब्रिटिश राज्यानं हिंदुस्थानांतुलि विद्रोहाचि अग्नीक पाय्यान मस्तूनु वाडवूनु घाल्लि. केशर लालालो समाचारु मेळचो बंद ज़ाल्लो. रक्तानं भर्लील्यो भारतवर्षाचे वीरमूर्तियो अचानक अंधकारांतु विलीन ज़ाल्यो. भैरवी वेशांतु हांवुं परत भायिर पळ्ळिं. तीर्थक्षेत्र, मंदिर, मठांतु खयींचि केशर लालालो समाचारु मेळना. तांगेले परिचयाचाचानि सांग्लें कीं- युद्ध किवां राजाज्नेन तांका मृत्यु प्राप्त ज़ाल्ला. मेग्गेले अंतरात्मान सांग्लें "केशर लालाक मृत्यु येवशि ना." तो ब्राह्मणु खंचेयी यज्नवेदिकेरि जोति रूपांतु ज़ळत आस्सा.

हिंदु शास्त्रांतु म्हळ्यां, ज्नान, तपस्या द्वारा शूद्राक ब्राह्मण ज़ाव्चाक ज़ात्ता. मुसल्मानांक ब्राह्मण ज़ाव्चो उल्लेखु ना. कारण प्राचीनकालांतु मुसल्मानयी नाशिले. हांवुं

ज़ाणताशिलीं कीं केशर लाल आनि मेग्गेले मिलना पयलें ताणें माक्का ब्राह्मण कोरोव्सुका.

अशींचि तीस पूर्ण ज़ाल्लीं. मेग्गेले संपूर्ण शरीरांतु मेग्गेली पूर्वजाले रक्त प्रवाहित ज़ाव्चालाग्लें. हांवुं आत्मान, आचारान, कर्मान संपूर्ण ब्राह्मण ज़ाल्लीलिं. शिवायि हांवें एक अपूर्व दीप्ति प्राप्त केल्लीलि.

युद्ध आनि क्रांति मध्दें, केशर लालाले वीरतेचे अनेक वृत्तांत हांवें आय्कल्लीं. राजदंडान पलायन कोर्नु केशर लालानं नेपाळांतु आश्रयु घेत्तीलो. नंतर तो नेपाळ सोण्णू अज्नात प्रदेशांतु गेल्लो. मुक्कारि हांवुं पहाडी पर्वत प्रदेशांतु फ़िरत उर्लि. हो हिंदू लोकालो देश न्हयीं. भूटिया, लेप्चा लोकु म्लेंच्छ आस्सूनु तीं मांसाहारि आस्साति, तांगेले व्यवहारांतु कस्सलोयि सद्विचार ना. आराध्य देवु, पूजा, अर्चना विधि सर्व भिन्न आस्साति. हांवे प्राप्त केल्लीलि विशुद्ध शुचितेंतु तांगेल्या मलिन संस्पर्शान वांचोव्चे प्रयत्न करीत उर्लि. मेग्गेलि जीवनाचि चरम नौका अत्यंत निकट आयल्या हें ज़ाणूनु चुक्लिं. नंतर्चें कस्सलें सांगूं? आड्तीस वर्सा नंतर, हांगा दार्जिलिंगांतु आजि सक्काळिं पयले पटी केशर लालाक पळैलें.

हांवें उत्सुकतेन विचार्लें– कस्सलें पळैलें?.

नवाब पुत्री म्हळ्ळालि,– “वृध्द केशर लाल, भूटिया वस्तींतु भूटिता पत्नि, तिग्गेले चेर्डुवांक घेव्नु, मळकट कपडे न्हेस्सूनु, आंगणांतु भुटांचे ( ज़ोळांचे) दाणें काडऽत आस्सा.”

काणि समाप्त ज़ाल्लि. हांवें विचार्लें “आडतीस वर्सा नंतर प्राणाक भीवून, सतत दिवस रात्रि विजातियांलें संगतींतु उर्तलो, आपण्याले आचाराचि रक्षण कश्शिं कर्तलो?”

नवाब कन्या म्हळ्ळालि – "बाप्सूले घरांतुल्यान भायिर पोण्णु,चांदण्या रात्रींतु, आपण्याले विकसित तन,मन, सर्व समर्पण केल्लीले बद्लाक, ब्राह्मणाले दाव्या हात्तांचे दुःसह अपमान मेळ्ळें, पण, हाय ब्राह्मण! मेग्गेले यौवन जीवना बद्दल, दुस्रें यौवन जीवन खयीं मेळ्तलें?"

इत्ले सांगूनु ती रमणी उठाव्नु राब्बूनु म्हळ्ळालि– "नमस्कार, बाबूजि". कस्सलोकी विचारु कोर्नु म्हळ्ळालि, –"सलाम बाबू साहेब," ह्या मुस्लिम अभिवादना द्वारा, तीणें, भग्न ब्राह्मणत्वाक अंतिम निरोप दीव्नु, हिमालय शिखराचे दाट धुक्यांतु अदृश्य ज़ाल्लि.

हांवें दोळे बंदऽ कोर्नु पूर्ण घटनावलीक मानस पदद्यारि चित्रित कोर्चाक लाग्लो.सोळा वर्साचि नवाब पुत्रीक पळैलें, दार्जिलिंगांतु कातर निराश मूर्ति भी पळैली, विचित्र व्याकुल संगीता ध्वनि, सुसंपन्न उर्दुभाषेंतु मिलन ज़ाव्नु मेग्गेले मात्यांतु स्पंदित ज़ाव्चा लाग्लि.

हांवें दोळे सोण्णु पळैले– निर्मल आकाशु सूर्य किरणांन प्रकाशित ज़ाल्लीलो. त्या दृश्या मद्धें ही काणी आत्तां सत्य न्हयीं मूण्णु कळ्ळें.! पर्वताचे धुक्यांतु सिगरेटाधुव्राक मेळोव्नु एक कल्पना खंडाचि रचना हांवें केल्लीलि.! ती मुसल्मान ब्राह्मणी, तो विप्र वीर, तो किल्लो वगैरे सर्व केवल काल्पनिक आस्सूनु, तांतु कस्सलेंयी सत्य ना! हें खरें पणांन सांग्तां!

# अध्यापकः

कोलेजांतु सहपाठायांमधें मेग्गेलें एक खास स्थान आशिलें. हांवुं सर्व विषयांतु ज़ाण्कार अशिशं ते मानताले. हाक्का कारण, चूक किंवां अचूक उरो, प्रत्येक विषयाचेरि हांवुं एकूचि अभिप्रायु दाक्कैताशिलो. बरेचशे लोकांक खंचे विषयाचेरि "व्हयी", किंवा "न्हयीं" सांग्चाक ज़ाइना. पण हांवें केवल अभिप्रायु दीनास्तना कविता, लेखनं वगैरे बोरोन्चें, भाषण दिन्चें, विवेचन केल्लिल्यान मेग्गेले सहपाठियालें ईर्षा आनि श्रद्धेक पात्र ज़ाल्लीलों. ह्या महामतेन कोलेजा परीक्षेंतु उत्तिर्ण ज़ात्ताशिलों. पण ह्या प्रसिद्धीक शनि ज़ान्नु एक नवीन अध्यापकु आम्गेल्या कोलेजांत आय्लो.

हो अध्यापकु एक प्रसिद्ध आशिलो. ताणें ऐम. ए. परीक्षेंतु पयले स्थान प्राप्त केल्लीलें. टोनी सायबान भी तांगेलि विशेष प्रशंसा केल्लीलि. मेग्गेल्या ह्या जीवन–कथेंतु, तांगेले नांव निप्पैल्यारि, तांगेले उज्वल कीर्तिक कस्सलीयि हानि येवशिना. मेग्गेले विषयांतु तांगेले आचरण पोळोन्नु हांवें तांकां "वामाचरणबाबू" अशिशं नांवं दिल्लेंलें. ते ब्राह्मण धर्म मानताशिले. हाज्जेन ते सर्वां पास्सूनु दूर विंगड ज़ान्नु उर्ताशिले. तांगेले वयऽ इतरांपेक्षा जास्ति नाशिलें.

आम्गेले नवीन हिंदु दलांतुल्यानि तांका "ब्रह्मदैत्य" अश्शिं नांव दिल्लेलें. आम्गेलि एक तर्क सभा आश्शिलि. ताज़्ज़ो विक्रमादित्य हांवुं, आनि नवरत्नभी हांवुं, सभेचे छत्तीस सदस्यां पैकि पस्तीसांलें लेक्काक धोर्चाक ना. बाकीचें एक सदस्याले योग्यते संबंधांतु आशीलोअभिप्रायुयी इतरांलो आश्शिलो.

ह्या सभेचे वार्षिक अधिवेशना खात्तीरि, हांवे. कार्लायलें विवेचन कोर्नु एक ओजस्वी लेखन बरयिलें. हें असाधारण लेखन श्रोत्यांक चकित कोर्नु दिव्चो द्रढ विश्वासु मनांतु आश्शिलो. ह्या लेखनांतु सुरुवातीपास्सूनु आखेर पर्यंत हांवें कार्लायलालि निंदा केल्लीलि.

ह्या अधिवेशनाक, वामाचरण बाबूक सभापति नियुक्त केल्लीले. पाठ समाप्त ज़ाल्लीले. कोणांकयी कस्सलेंयी साग्चें ना हें लेकूनु वामाचरण बाबू उठाव्नु राब्ले, आनि शांत, गंभीर आवाज़ांतु समज़ाव्नु दिल्लें कीं – मेग्गेलो हो लेखना भागु, अमेरिकाचे प्रसिद्ध लेखक लोवेल सायबालें लेखनांतूनु चोल्यां. शिवायि भाषाभी आश्चर्यजनक रीतिनं आस्सा. तो भागु अतिशय सुंदर आस्सा. पण हांवें बारयिलो लेखना भागु काण्णु घाल्यारि बरें. अश्शिं अभिप्रायु दिल्लो. तो बरो आस्लो तरी अप्रिय नाशिलो.

ह्य घटने नंतर सहपाठियालो विश्वासु मेज्जेरि कम्मि ज़ाल्ले. पण मेग्गेलो अग्रगण्य भक्तु अमूल्यचरणाले ह्रदयांतु किंचित भी विकार उत्पन्न ज़ाल्लिल्ना. हें नाटक ब्रह्मदैत्याक वाच्चुनु दाक्कोव्चाक ताणें पदे पदे साग्लों निंदकालो अभिप्रायु कित्तें आस्सा हेंयी पोळोव्यां.

राजा शिवसिंहालि राणि लछमादेवि संगत विद्यापति प्रेम कर्ताशिले. तिक्का भेट्टीले शिवायि तांका काव्य रचना

कोर्चाक ज़ाय्नाशिले. ह्या भावनेवैरि हावें वेदना पूर्ण उच्चकोटीचें काव्य–नाट्य बरयिलें. मेग्गेले श्रेत्याले अभिप्राया प्रमाणें, इतिहासांतु अशिशं कस्स्लीयि घटना घड्डिलि ना. हांवें सांग्लें तें इतिहासा दुर्भाग्य. ज़ऽर अस्सली घटना घडिल तेद्ना इतिहासु जास्ति मधुर आनि सत्यता पूर्ण ज़ाव्नु उर्ताशिलो. अमूल्यान तरी हें सर्वोच्चलोटीचें अशिशं सांग्लें मेग्गेली विशिष्टता हांवें लेक्किले पेक्षा हित्येक पटीन जास्ति आस्सा, अशिशं अमूल्यालो अभिप्रायु. मेग्गेलें खंचे विराट रूप ताग्गेलें ह्रदयांतु प्रतिबिंबित ज़ाव्नु आस्स, हें अखेर पर्यंत माक्का कळना. तें नाटक वामाचरणबाबूक् दाक्कोन्चि सूचना माक्का वायिट दिशिशल्ना. नाटकांतु नाशिले सान्नऽ सान्नऽ चुक्यांचे निंदा कोर्चाक शक्यचीना अशिशं मेग्गेलो द्रढ विश्वासु आशीलो.

एकपटीं तर्कसभेचें विशेष अधिवेशनाचें आयोजन केल्लें. विद्यांथ्यां एदुरु हांवें मेग्गेलें नाटक वाच्लें. वामाचरण बाबून ताज्जें विवेचन केल्लें. तें विस्तारांतु सांग्नास्तना, संक्षेपांतु सांग्ता कीं– तें विवेचन माक्का अनुकूल नाशिलैं. वामाचरण बाबून म्हळ्ळें कीं– नाटकांतुलें पात्राले चरित्र आनि मनोभावनेक यथोचित विशेषता मेळ्ळिल्ना. सामान्य भावनेची अतिशयोक्ति केल्या. तीं वार्यावारि उड्डनु वत्तलीं. लेखकाले ह्रदयांतु त्या भावनेचे जीवन आनि आकारु प्राप्त ज़ाल्लिल्ना.

विंचू बाल्लानयि (शेपटीन) डंक मार्ता, वामाचरण बाबूलें विवेचना अंत्यातुयी तीक्ष्ण विषऽ आशिलें. आसनांचेरि बस्चे पयलें सांग्लें कीं– मेग्गेले नाटकाचे अनेक द्रश्य आनि मूल भावना जर्मन नाटक कार गेटेन (ग्योथे) रचयिले "टास्सो"

नाटकाचे नक्कल आसूनु, अनेक स्थानांचेरि अनुवादु केल्ला. हाज्जेरी एक बरी ज़वाब माक्का सांग्चाक ज़ात्ताशिलि. ज़री नकल केल्ले तरी, ताज्जि निंदा कोर्चाक ना. साहित्या ज़गांतु चोर्ची ही एक होडि विद्या, (पकड्लें तरी !) शेक्षपीयर सारखे होड महाजन भी हें करीत आय्ल्यांति. साहित्यांतु कोणालि ओरिचिनालिटि प्रबल आस्सकीं तेचि चोरी करूं शक्ताति.

अस्सलीं बरी बरी उत्रं ते दिवसु माक्का सांग्चाक ज़ाल्ना. कारण नम्रता न्हयीं. वास्तवांतु एकयी उत्रंचो यादु आयिल्ना. साधारण पाच–सात दिवसा नंतर तीं सर्व उत्रं ब्रह्मास्त्रावारि मेग्गेले मनांतु उदय ज़ान्चाक लाग्लिं. शत्रु पक्ष ऐद्राक नशिल्यान तीं अस्त्रं निष्क्रिय ज़ाल्लिं. मनांतुले मनांतु विचार कर्ताशिलो. कीं– कमीत–कम्मि मेग्गेले क्लासांतुले विद्यार्थियांक वाच्चूनु दाकोव्यां. पण तांगेलि बुद्धिमत्ता, मेग्गेले सहपाठि गाडवाले बुद्धि पेक्षा जास्ति नाशिलि. तांका गोत्ताशिलें कीं– चोरि चोरीचि उर्ता. मेग्गेली चोरी, आनी इतरांले चोरींतु कित्ले अंतर आस्सा हें समज़ूनु घेन्चि क्षमता उर्लि, मेग्गेले आन तांगेले बुद्धींतु कस्सलें अंतर उर्लें ? बी. ए. परीक्षेंतु उत्तीर्ण ज़ान्चे बद्दल माक्का काहीं संदेहु नाशिलो. पण वामाचारि बाबूले उत्रां आघातान मेग्गेली प्रसिद्धी आनि आशेचें मंदिर भग्न ज़ान्नु पळ्ळें. केवल अमूल्याक मेज्जेरि पूर्ण श्रद्धा आशिलि.

प्रभात कालाति यशोरूपि सूर्यु मेग्गेले एद्राक उदय ज़ात्ताशिलो, तेद्नायी श्रद्धा, लांब साव्ळेवारि मेग्गेल्या चराणांक स्पर्श कर्तशिलि. सांजेरी सूर्यास्तु ज़ात्तनायि श्रद्धेन विस्तार

साव्ळेन मेग्गेले पाव्लांचो परित्यागु केल्ना. पण ही श्रद्धा एक शून्य साव्ळि मात्रः, केवल मूढ भक्त ह्रदयाचें मोहरूपि अंधकारु उर्ता. तांतु बुद्धीचो उज्वल प्रकाशु ऊर्ना.

लग्न कोर्नु घेन्चे खात्तीरि, बाप्सून "गावांक यो" म्हृळ्ळें थोडे दिवसाचो समयु माग्लो. वामाचारि बाबूले विवेचनानं, मेग्गेले मानांतु एक आत्म विरोध, स्वतःहा बद्दल एक विद्रोहा भावना उत्पन्न ज़ाल्लीलि. मेग्गेलो आलोचक आंशु, मेग्गेल्या अंशाक निप्पूनु आघात कर्ताशिलो. लेखक आंशु हाज्जो प्रतिशोधु घेन्वाक सांग्ताशिलो. एक पटी बरैतां, तेद्‌ना कळ्तलें– हांवु श्रेष्ठ कीं–मेग्गेले विवेचक लोकु !

मनांतुले मनांतु, निश्चयु केल्लो. – विश्व प्रेम, दुसर्या खात्तीरि आत्म विसर्जन, शत्रूंक क्षमा वगैरे भावनेचेरि आधारित, गद्यांतु किंवा पद्यांतु खूब सब्लायिम रीतिरि बरयितलों. बंगाली आलोचकांकएक सुविशाल विवेचना सामाग्रि प्रस्तुत कर्तलो.

एक सुंदर, निर्जन स्थानांचेरि बैसूनु, मेग्गेले जीवनांचे सर्वप्रधान कीर्तिचे, स्रष्ठि कार्याचि सुरुवात कोर्चो निर्धारु केल्लो. एक महीनो पर्यंत मित्रु, परिचित–अपरिचित व्यक्तीलि भेटि कोर्चिना, अमूल्याक आप्पोव्नु हें साग्ले. मेग्गेले निड्‌लावैलि भावी महिमेंचि प्रथम अरुण ज्योति पळैल्यावारि तो एकदम स्तंबित ज़ाल्लो. गांभीर चेहर्यान होडऽ दोळ्यान मेग्गेले कडे पळैत, सान आवाज़ांतु तो म्हळ्ळालो "मुकार्शि बाबा, मुकार्शि, अमरकीर्ति, आक्षय गौरव प्राप्त कोर्नु यो."

आसन्न गौरवान गर्वित बंग देशाचो प्रतिनिधि, अमूल्यालें उत्रानं मेग्गेले शरीर रोमांचित ज़ाल्लें. देशहिता खात्तीरि एक

महीनो पर्यंत सर्वाले सहवासा आशेचें पूर्ण विसर्जन केल्लीलो अमूल्यालो त्यागु कित्तें कम्मीचोवे ? होडऽ श्वासु घेन्नु, मेग्गेलो मित्रु, अमूल्यु ट्रामारि बैसूनु कोर्नवालिस रस्त्यावैले आपण्याले घरा गेल्लो.

हांवुं, गंगाघाटावैले फ़रास दोंगाचे बगीचेंतु, अमर कीर्ति अक्षय गौरव प्राप्त कोर्चाक बस्लों. गंगा तीरावैलें खाली घरांतु आडपोण्णु, विश्व प्रेमाचे विचार कर्ता, कर्ता, दन्पारां नीदऽ येत्ताश्लि, थेट पांच घंट्यारि उठायत्ताशिलों. शरीर आनि मनऽ दोन्नीयि थकूनु गेल्लीलिं. वेळु काडचे खात्तीरि उद्यानांतुले माक्षे रस्त्या बाज़ून लाकडी खुर्चेरि बैसूनु, लोकांनी येन्चे-वोच्चें पळैताशिलो. अत्यंत असहनीय ज़ाल्यारि रेल्वे स्टेशनारि बस्ताशिलों. टिकेट आफ़ीसांतु वाज्चि घांट, टेलिग्रफ़ यंत्राचो कट्‌ट-कड कड आवाज़ु, फ़लाटाचेरि येन्चे वोच्चे रेल्वेची गर्जनावगैर्यान थोडेशे मनोरंजन ज़ात्ताशिले. घर येन्नु जेवण वगैरे कोर्नु, ऐक्ळो आशिल्यान वग्गीचि निद्दताशिलों. क्स्सलेंयि कामऽ नाशिल्यान, सकाळीं, आठ-नौ वाजे पर्यंत बिछान्याचेरि लोळत पड्‌ताशिलों. आरोग्ययी वायिट ज़ाल्लें. विश्व प्रेमाचो खंचोयी मार्गु मेळ्ळिल्ना, ऐक्ळानयी उर्चि सवयि नाशिल्यान, संगहीन गंगातीर शून्य स्मशानावारि अनुभवाक येत्ताशिले. अमूल्यान एक दिवसा खात्तीरियि आपण्यालि प्रतिज्ना भंग केल्लिल्नाऽ. तो आनि एकु गाडवुऽ.

हाज्जे पयलें कलकत्तेंतु ऊर्नु विचार कर्ताशिलों. वटव्रक्षाचे विशाल साळ्ळेंतु पाय पसोर्नु बस्तालो. स्वप्नराज्यांतुलो कवि, तशींचि चारी दिक्कांतुले भावना राज्य, बाह्याप्रक्रतींतिलि अरण्यांतिलि पुष्पराशि, व्रक्षशाशीवैलिं पक्षिसमूह,

आकाशांतुलिं नक्षत्रं, मनांतु विश्व प्रेम, लेखणींतु असंख्य भावनेंचि धारा वगैरे विचित्र छंदांतु प्रवाहित कर्ताशिलीं. पण खयीं प्रकृत्ती ? आनि खयीं प्रकृतिचो कवी ? एक दिवसभी हांवू उद्यानांतु गेल्लिल्ना. थयीं फुल्लं फुल्चीं, आकाशांतु चमकची नक्षत्रं, वटवृक्षा छायेचि विशालता, वगैरे पळयिलेंभी ना. घरचो कीडोयी ज़ाव्नु उर्लों. खंचे प्रकार अत्म महात्म्य प्रमाणित कोर्नु घेन्चाक ज़ाल्लिल्यान वामाचरण बाबूले बद्दल मेग्गेलो आक्रोशु वाड्लो.

त्या समयांतु बाल– विवाहाचे बद्दल बंगालचे सुशिक्षित समाजांतु एक वाग्युद्ध चल्ताशिले. वामाचरण बाबू तरी बाल– विवाहाचे कट्टर विरोधी आशिले. ते एक तरुणीले प्रणयपाशांतु शिर्कल्ले. शीघ्रही परिणय सूत्रांतु बांधूनु घेन्चो विचारांतु आस्साचि अश्शिं बात्मि आय्कल्ली. हो विषयु माक्का अत्यंत कौतुक पूर्ण दिस्लो. वामाचारि बाबूक एक आदर्श कथानायक कोर्नु, एक तीक्ष्ण नाटक बरयिलें. लेखणीद्वारा ह्या अमर कीर्तिक जन्म दिवोसूनु, कलकत्ता वोच्ची तयारिक लाग्लों. पण हेचि समयाचेरि मेग्गेल्या यात्रेंतु बाधा आय्लि.

एक दिवसु सांजेरि अश्शींचि फ़िरत वत्तस्तना बागल्यांतुल्यो खोलींक पळैलें अवश्यक नाशिल्यान अधिकांश खोल्यो खाली आशिल्यो. भाग्रि आशिले वस्तु बद्दल माका किंचित कुतुहल नाशिलें. वेळु काड्चे खात्तीरि, हांगा – थंयीं फ़िर्ताशिलो. उत्तर दिक्काचि खोली उघडूनु एक खाली ज़ाग्यारि पाव्लों. ताज्जे एद्राकयी, उत्तर दिशेचे ओणतीक चिकतूनु दोन ज़ांबळा रूक आशिले. तांचे मध्यांतुल्यान दुस्रे बगीच्याक वोच्ची एक लांबी–लांब बकुल वाटिकाचो थोडो भागु दिस्ताशिलो. परंतु हे प्रत्यक्ष रूपान नंतरयी पळयिलें. ताज्जे पैलें, एक सोळावर्सा तरुणि, हात्तांतु पुस्तक

धोर्नु, मात्तें बाक्सूनु अध्ययन कोर्चें दृश्य मात्र पळियलें. ते क्षणारि, तर्क आनि आलोचना कोर्चे विसोर्नुयी गेल्लो.

थोडे दिवसा नंतर हांवें विचारु केल्लो कीं– राजा दुष्यंत, धनुष्य बाण घेव्नु मृगया कोर्चाक आयिलो. मृगऽ कायिं मेल्लिल्ना. दैवयोगान धा मिनिटांतु ताणें जे कायिं पळैलें आनि आय्कलें तो जीवनाचो सर्वोत्तम मार्गु ज़ाव्नु उर्लो. हांवें हात्तांतु पेन्सिल, लेखणी आनि नोट्बुक घेव्नु, काव्य मृगये खात्तीरि भाग्रि सर्लों. गरीब, बिचारि विश्व प्रेम धाव्नु गेल्लें. दोन ज़ांबळा रुक्का मधेंतुल्यान दिस्चे सर्व दृश्य पळैलें. मनुष्याले जीवनांतु परम अस्सले दृश्य दिस्चाक मेळना.

ह्या जगांतुले अनेक वस्तुंक हांवें पळैल्नाशिलें. विमानांचेरि बशिल्नाशिलो. परंतु उत्तर दिक्काचे ज़ाग्यारि येव्चे पयलें, मेग्गेलें मनांतुलें आदर्श अत्यंत चुक्कीचें आनि अज्नानभरित आस्सा अशिशं दिस्ताशिले. एक्वीस वर्साचे आयुष्य प्राप्त कोर्नुयी, हांवें नारी–सौंदर्याचि ध्यानमूर्तिचि सृजनयी केल्लिल्ना म्हूण्णु माक्का सांग्चाक ज़ाय्शिना. हांवें त्या मूर्तिक ना ना प्रकाराचे वेश–भूषेन सज़यलें. अनेक अवस्थेंतु स्थापित केल्लें. पाय्यांतु चप्पलं, आंगांतु कुर्ता, हात्तांतु पुस्तक अशिशं पळैतलों म्हूण्णु स्वप्नांतु भी लेक्किल्नाशिलें. आनि तस्सली आशा भी हांवें केल्लिल्नाशिलि.

परंतु मेग्गेली मध्याह्न लक्ष्मि, फ़ाल्गुणांचे अपराह्नांतु, विशाल तरु श्रेणींचे विस्त्रत छाया आनि प्रकाशाचे रेषेन भर्लिले पुष्पवनांचे वाटेरि, पाय्यातु चप्पलं, आंगांतु कुर्ता, हात्तांतु पुस्तक घेव्नु दोन जांबळा रुक्का मधेंतुल्यान अकस्मात दिस्लि. हांवुं निःश्शब्दज़ाव्नु राब्लो. दोन मिनिटा पेक्षा जास्ति

वेळु दिशिल्ना. अनेक छिद्रांतुल्यान पोळोव्चें प्रयत्न असफ़ल ज़ाल्लें. ते दिवसु पयलेपटीं सांजेरि वटवृक्षा सक्कल पाय पसोर्नु बस्लो. वृक्षश्रेणीवैलि संध्या तारा स्मित हास्य करीत उदय ज़ाल्लि. पळैत– पळैत संध्याश्री आपण्याले वासर गृहाचें द्वार उघोड्नु निःश्शब्द ज़ाव्नु राब्लि.

त्या तरुणीले हात्तांतुले पुस्तक माक्का एक रहस्य निकेतन ज़ाल्लीलें. तेंकादंबरी कीं काव्य ? खंचे भावनेचे वर्णन केल्यां ? युगल नेत्रांचि उत्सुकतापूर्ण स्थिर दृष्टिपळिळल्या त्या पुस्तकाच्या पानांतु काणियोंचो खंचो अंशु, काव्याचो खंचा रसुऽ प्रकट ज़ाय्त आस्सा ? मुक्त केश जालांचे साळ्ळे सक्कल, सुकुमार ललाट मंडपभित्तरी विचित्र भावनेंचो आदेशु कश्शिं पसरत आस्सा ? त्या कुमारिले तरुण ह्रदयांतु नवी, नवी काव्य माला, खंचि अपूर्व सौंदर्य लोकाचि सृष्टि करीत आस्सा ? अर्ध रात्रि पर्यांत आयिले अस्सले सर्व विचार स्पष्ठरूपांतु सांग्चाक असंभव. मेग्गेली ही अपरिचिता, कुमारि आस्सा कीं विवाहित ? ब्राह्मण कीं– शूद्र ? हें सज़्नु घेव्चें कठिण नाशिलें. पण तें हांवे केल्लिल्ना. तिग्गेलें चकोर समान चंद्रमंडलाक मानऽ उंच कोर्नु पळैत राब्लो.

दुस्रे दिवसु दन्पारा एकि सानि नौकेरी (नांवेंचेरि) बैसूनु, गंगातीरा दिक्कान पळैत भरतींतु व्हांवत चल्लों. वल्हव्चें नाक्का म्हळ्ळें.

मेग्गेली शकुंतलालि तपोवन कुटि गंगा किनार्याचेरि आशिली. ऋषीले कुटीरावारि नाशिलि. गंगा घाटावैल्यो पायर्यो, एक होडऽ भवना ज़ाग्यारि समप्त ज़ात्तशिल्यो. त्या ज़ाग्याक लाकडी छप्परान साळ्ळि मेळ्ळीलि. मेग्गेली नौका (होडि) व्हांवत घाटा एद्राक पाव्लि. नवयुगाचि शकुंतला खाली ज़ाग्याचा भूमिचेरि बश्शिलि. माक्षेंचे चौकीचेरि पुस्तकं

दवरिलिं. ताज्जे वैरि तिग्गेले मोकळे केसऽ पसरिले. चौकीक फ़ाटि तेंकूनु चेहरो ऊंच कोर्नु आड आयिले हात्तांचेरि मात्तें दवरिले होडींतुल्यान चेहरो समऽ दीस्नाशिलो. केवल कंठाची वक्ररेषा दिस्ताशिलि. पाय्याचें एक पावूल् वैलें पायर्यांरि, अनि दुस्रें सकल्चे पायर्यारि ज़ाल्लीलिं. साडीचि काळि देऽग (किनार) दोन्नी पाय्यारि पळ्ळीलि. एक पुस्तक दावे हात्तांतुल्यान निस्सोर्नु सक्कल पळ्ळीलेंती मूर्तिमंत मध्याह्न लक्ष्मि अश्शिं दिस्ताशिलि. बरोच वेळ पर्यंत पळैत उर्लों. दोन सजल पल्लवाचे चरण कमलांक दोळ्यान पदे पदे पुस्सत उर्लों.

आखेरीक दूर गेल्लिल्या होडी (नावे) ऐदुरु एकु रूकु आडऽ आय्लो. कस्सलो कीं विचारु उडगासा आय्लो, होडीवालाक सांग्लें, "आजि हुग्ली वोच्चें नाका. परत घरऽ वोच्यां" परत वत्तस्तना न्हयींतुल्या सुकतीन होडि वल्हव्का पळ्ळि. होडी केन्ना घाटा लाग्गीं पाव्लि, वल्हव्चा आवाज़ान मेग्गेली प्रतिवेशिनेन, सावकाश तोंडऽ वैरि कोर्नु, कुतूहलान होडि दिक्कान पळैलें. एक क्षणां नंतर मेग्गेल्या व्यग्र व्याकुल दृष्टिक पोळोव्नु भित्तरि गेल्लि.

होडींतुलान देंव्नु वत्तस्तना, पिकिलें, अर्ध खाल्लीलें पेरऽ सक्कल उद्कांतु पळ्ळीलें. दांतांचे चिह्न आशिलें, अधरान (वोंटान) चुंबित, चाब्बीले फ़लाक पोळोव्नु मेग्गेले अंतःकरण उत्सुक जाल्लें. परंतु होडिवाल्याले एदुरु, लज्जेन दूरसानुयी निरीक्षण करत उर्लों. अर्ध घंट्यांतु तो निर्लज्ज कारभारु पुर्ण ज़ात्तलो, ह्या कल्पनेन दुःखी ह्रदयान हांवुं घाटारि देंव्नु घरा आय्लों.

वटवृक्षा साव्ळेंतु, पाय पसोर्नु दिवस भर स्वप्नं पळैत उर्लों. त्या सुकोमल पाय्या पाव्लासक्कल, विश्व प्रकृती मात्तें

सक्कल कोर्नु पळ्यां, आकाशु आलोकित, धरती पुलकित, आनि वायु व्याकुल ज़ाल्यांचि. हाज्जें भधें, दोन मोकळी पाव्लं स्थिर आनी सुंदर आस्साति. तांका गोत्तूयि ना कीं– तांगेलेयी अणु रेणु कणांचें मादकता, ताप्पिलें नवीन यौवन वसंत ऋतुचे सर्व दिशांक रोमांचित करीत आस्स. मेग्गेली लाग्गिंचि प्रकृति विक्षिप्त आनि विच्छिन्न आशिलि. नदी, वन, आनि आकाशु सर्व विंगड विंगड ज़ाव्नु आश्शिलीं. आजि त्या विशाल, विपुल विकीर्णता मधें एक सुंदर प्रतिमूर्तिलें दर्शन करीत आस्सा, हांवुं मौन ज़ाव्नु आस्सा. माका भाषा दी, मेग्गेल्या अंतःकरणांतुलान उत्पन्न ज़ाल्लिल्या अव्यक्त स्थुतीक तूं छंद, लय, आनि तानांन सज़ोव्नु सुंदर मानव भाषेंतु ध्वनित करी. प्रकृतीले नीरव प्रार्थनेन मेग्गेल्या हृदय तंतुचे वाद्य आरंभ ज़ाल्लें. तीणें पदे पदे हेंचि गायन आय्कशिले.

हे सुंदरी ! हे मनोहारिणी ! हे विश्वविजयिनी ! हे जीवन आनि प्राण स्वरूपि पतंगाची एकमात्र दीपशिखा ! हे असीम जीवनी ! हे अनंत मधुर मृत्यु स्वरूपिणी ! हे गयनांक अंत ना, हे गायनाक ज़ोडि मेळना. ताक्का आकार दीव्नु प्रस्तुत कोर्चाक ज़ाय्ना. छंदांतु बांधूनु व्यक्त कोर्चाक ज़ाय्ना. भारतीचे उद्कावारि, हृदयांतु एक अनिर्वचनीय शक्तीचो संचारु ज़ाय्त आस्सा. ताक्का आत्तंची अधिकारांतु हाड्चाक ज़ाय्ना. तें हाळ्ळें कीं– मेग्गेले कंठांतु अकस्मात दिव्य संगीत वाज़तलें. मेग्गेल्या ललाटाचेरि एक अलौकिक प्रकाश रेषा दिस्तली.

हेचि वेळारि, नौहाटि स्टेशनावैल्यान एक नौका (होडी) घाटारि येव्नु पाव्लि. चादर पांगूर्नु, छत्री धोर्नु, हस्तचि अमूल्यु देंव्लो, अचानक आयिल्या मित्राक पोळोव्नु, मेग्गेल्या मनांतु

शर्तुपेक्षा ज़ास्ति क्रूर भावना उत्पन्न ज़ाल्लि. दन्पारा दोन घंट्यारि वटवृक्षा साळ्ळींतु माक्कां नितांत बश्शीले पोळोव्नु, अमूल्याले मनांतु एकि होडि आशेचो संचारु ज़ाल्लो. बंगालचें सर्व श्रेष्ठ काव्याचे थोडे अंशाचे शब्दान चकित ज़ाव्नु राजहंसावारि उद्कांतु हांवुं पऽडशी नां मू "हे भयान तो सावकाश येत्ताशिलो. तें पोळोव्नु माक्का आनिक कोपु आय्लो. हांवें विचार्लों"–कित्तें अमूल्य ! तुग्गेल्या पाय्यांतु कांटो तोप्लावे ? ताक्का दिस्लें हांवुं मस्करि करीत आस्स. हास्तची लाग्गीं येव्नु वटवृक्षा सक्कल्ची साव्कि धोतीन ज़ाड्नु, हात रुमाल पसोर्नु, ताज्जेरि बस्लो. म्हळ्ळालो "तुग्गेलें नाटक वाज़्ज़ूनु हासान पोटऽ दुक्चा लाग्लें. नाटका भागु आय्कतची हासान श्वासु बंद ज़ाव्चि परिस्थिति आय्यिलि." माक्का दिस्लें "तें नाटक बोरोव्चे लेखणींचे रुकाक मूळासकट निक्ळांव्नु. होड उज्जो लाव्नु नाटकासहित ज़ोळोव्नु राख केल्ले तरी माक्का समाधान मेळशी ना." अमूल्यान विचार्लें– "तुग्गेलें काव्य खयीं पर्यंत आय्ल्यां"? माक्का आनिकयी कोपु आय्लो. मनांतुले मनांतु म्हळ्ळें– "कश्शिं मेग्गेलें काव्य कीं, तश्शिं तुग्गेली बुद्धि. पण सग्लें तें सर्व नंतर पोळोव्यां, आत्तां माक्का उपद्रव दीन्नाका."

अमूल्याक कुतुहलान चारी दिक्कान पळैले शिवायि नुतऽ बस्चाक ज़ायना. ताग्गेले हे भयान हांवें उत्तर दिक्काचो दरवाज़ो बंद दवरीलो. ताणें विचार्लें "ते दिक्कान कस्सलें आस्सा ?" हांवें सांग्लें "कस्सलेंयि ना." इत्लि होडऽ फ़ट्टिं उत्रं केद्नायी उल्लैलि नाशिलो.

दोन दिवस माक्का ना, ना तरेन त्रासु दीव्नु तिस्रे दिवसु सांजेरी अमूल्य घरा गेल्लो. दोन दिव्सांतु हांवुं

बगीचेचे उत्तर दिशेचे बाज़ूक गेल्ना. दावे दोळ्यानयी पळयिलें ना. कृपणांन (कंजूशि) रत्न भंडार निप्पोन्नु दवरिल्यावारि, उत्तरी सीमेचे बगीचाक सांभाळ्नु, फ़िरत उर्लो. अमूल्यु परत गेल्ले नंतर, धाव्नु वोच्चूनु दरवाज़ो उघड्लो आनि उत्तरी दिशेचें ज़ाग्यारि पाव्लों. आकाशांतुली चांदणी, वृक्षाचे फ़ांद्यान उत्पन्न ज़ाल्लेलो किरणांचो दाट संध्या अंधःकारु, पळैलो. बकुल फ़ुलांचे सुमनोहर सुगंधु, वृक्ष पालवीचे मर्मर ध्वनि वगैर्यान रोम, रोम पुलकित ज़ात्ताशिलें.

हाज्जें मधें, मेग्गेली कुमारि प्रतिवेशिनि, सफ़ेद दाडीचो, आपण्याले वृद्ध पितालो दावो हातु धोर्नु सावकाश फ़िरत कस्सलेंकी सांगत आश्शीलि. तोयि श्रद्धेन, ध्यान दीव्नु चुप चाप आय्कत आशिलो. ह्या विश्राम आलापांतु कस्सली बाधा येन्चि तश्शिं नाशिलि. हांवुं, मेग्गेल्या संपूर्ण शरीर, आनि अंतःकरणांतु ह्या विश्राम आलापाक अविच्छिन्न रूपांतु अनुभव कोर्चाक लाग्लो. पण खंचेयी उपायु मेळ्ळिल्ना.

दुस्रे दिवसु सकाळियीं मेग्गेल्या प्रतिवेशिनींक मेळ्चाक हांवु भायिर सर्लो. तेद्ना भावनाथ बाबूले एद्राक एकु होडु चाऽचो पेलो दवरिलो. पूर्ण ध्यानान ते हेमिल्टन्नालें प्राचीन पुस्तक वाच्तयी, ताज्जेरि नीळे पेंसिलान गुर्तु कर्ताशिले. हावें खोलींतु प्रवेश केल्लें कीं चश्म्यांतुल्यान माक्का पळैत उर्ले. पुस्तक वाचनांतुल्यान एक क्षण भी मनांक परतायिल्ना. हांवें संक्षेपांतु मेग्गेलो परिचयु दिल्लो. आतिथ्या खात्तीरि ते अधिक व्यस्त ज़ाल्ले. तान्नि विचार्ले– "तुम्मि चहा पित्तल्वे ?" हांवुं चहा पीना ज़ाल्ले तरी "माक्का हरकत ना" अश्शिं साग्लें. भवनाथ बाबून, किरण, किरण अश्शिं आप्पैलें. दरवाज़ालाग्गिंच्यान अत्यंत मधुर "कित्तें पिताजि ?" अश्शिं

आवाज़ु आय्लो. माक्का पोळ्न्ु तपस्वी कण्वालि पुत्रि परत वोच्चाक तत्पर ज़ाल्लि. भवनाथ बाबून तिक्का परत आप्पैलें. मॆग्गेलो परिचय दीव्नु म्हळ्ळालें– ही मॆग्गेली कन्या, किरणबाला.'' माक्का कित्तें, कस्सलें कोरूं हें कळ्ळें ना, किरणान नम्र, सुंदर नमस्कारु केल्लो. हांवेयी प्रति नमस्कारु केल्लो. महिंद्र बाबूक एक पेलो चहा हाड्गो. अश्शिं भवनाथ बाबून साग्लें. हांवुं मनांतुले मनांतु संकुचित ज़ाव्नु उर्लो. तोंडऽ उघोड्नु कस्सलेंयि सांग्चे पयलें, किरण बाला भायिर् गेल्लि. कैलासांतुले भोलानाथान आपण्याले पुत्रीक चहाचो पेलो, अथितीक हाड्चाक सांग्लां, अश्शिं माक्का दिस्लें. तें तरी शुद्ध अमृत उर्तलें. आत्तां हांवुं भवनाथ बाबूलो घराचो नित्य सोयरो ज़ाल्लिलो. पयलें चहाचे नावांन भित्तशिलों. आत्तं चहा पीव्नु, पीव्नु ताज्जि नशा चळ्ळिली.

आम्गेले बी. ए. परीक्षे खात्तीरि जर्मन पंडितान बरयिलें दर्शन शास्त्राचि चर्चा कोर्चाक येत्ताशिलो. अश्शिं थोडे दिवसान तांकां दाकैलें कीं ते हेमाल्टन वगैरे प्राचीन आनि अयोग्य पुस्तकं वाचीत आस्साति. हें पोळोव्नु मॆग्गेल्या नवीन विद्येक अत्यंत आडंबरान जाहीर कोर्चाक चूक्नाशिलो. भवनाथ बाबू अत्यंत संकोची स्वभावाचे आश्शिले. सर्व विषयाचि माहिति आस्सूनुयि मेज्जे अस्सले युवकालिं तोंडी उत्रं भी मानुनु घेत्ताशिले. आपण्याले खंचेयी उत्रांन दुसर्याक वायिट दिस्चा ना म्होण्णु थोडेशेयी प्रतिवादान अस्थिर ज़ात्ताशिले. ह्या तत्वांचे चर्चे चालु अस्ताना, किरण मधेंतुल्यान उठाव्नु वत्ताश्लि. तरी, माक्का क्षोभ आनि गर्वाचो अनुभवु येत्ताशिलो. आमगेले विषयाचे कठिण पांडित्य किरणाक असह्य ज़ात्ताशिलें. मॆग्गेले विद्यारूपि पर्वताचि उंचायि जास्ति कीं, हांवुं कित्ले उंचायिचेरि आस्सा हें तिक्का कळ्नाशिलें.

किरणांक दूरसानु पळयिलें कीं तिक्का हांवुं शकुंतला, दमयंति अस्सलें विचित्र नांवांन, आनि विचित्र भावनेन ज़ाणताशिलो. पण घरांतु मात्र ती केवल किरण ! आनि किरणयी. ती अनेक शताब्दियांचे काव्यलोकांतुल्यान देव्नु, अनंतकालाचे युवक चित्ताचे स्वप्नस्वर्गाचो त्यागु कोर्नु एक निर्दिष्ठ बंगाली घरांतु कुमारि कन्या रूपान विराजमान ज़ाव्नु आस्सा. मेग्गेलीयि मातृभाषेंतु साधारण घरची उत्रं उलैता, सान्नऽ सरळ उत्रांचेरि हास्ता. इतर चेल्लियांवारि दोन्नी हात्तांतु भांग्रा कांकणऽ, गळ्यांतु प्रीतिचो, पण सादा हारु, साडीचें पदरान फ़ांति गुंडाळत उर्ता, बापूसु घर आश्शीलें कारण पदरु सक्कल पड्ता. तें दृश्य माक्का अत्यंत आनंद दायक आस्सा. सत्य आस्सा ती किरण आस्सा. ताज्जा पेक्षा जास्ति ना, कम्मि ना. ज़री किरण मेग्गेली न्हयीं आस्लें तरी, ती आमगेलि आस्सा म्हूण्णु मेग्गेले अंतःकरण तिज्जे बद्दल सदैव कृतज्नतेन भोर्नु उर्ता.

एक दिवसु भवनाथ बाबू लागिगं अत्यंत उत्साहान वाचालता प्रकट कर्ताशिलों. विवेचन थोडेशे मुकर्शिलें कीं किरण उठाव्नु गेल्ली. थोडेशे वेळान, ऐद्रा रांधणी ज़ोळोव्नु, रांधपा सामानु दवोर्नु, भवनाथ बाबूक म्हळ्ळाली. – "पिताजी, ह्या सर्व कठिण उत्रांन महींद्र बाबूक कस्सल्याक त्रासु दित्ताति", "महींद्र बाबू ! रांधप कोर्चांतु तुम्मी मेग्गेली सहायता केल्यारि, कस्सलेंयि कामऽ ज़ात्तलें." भवनाथ बाबूलो कस्सलोयि दोषु नाशिलो. किरणाक भी हाज्जि माहिति आश्शीलि. भवनाथ बाबू अपराधी भावान, हास्सत म्हळ्ळाले, – "आनि केद्नायी ही चर्चा कोर्यां" नित्यावारिचें अध्ययनांतु व्यस्त ज़ाल्ले.

दुस्रे दिवसु सांजेरी, आनीकयी होडऽ उत्रं सांगूनु भावनाथ बाबूक स्तंभित कर्तस्तना, अचानक मद्दें येव्नु किरण

म्हळ्ळालि, "महींद्र बाबू, ह्या अबलेक सहायु कोर्का पड्तलें. वोणतीरि वालि चडयतां. उंचायिचेरि हातु पान्ना, थर्यीं तुम्मि खीळे (मोळे) ठोकूनु दिय्याति" हांवें खुशीन तें काम केल्लें. भवनाथ बाबू प्रफ़ुल्ल मनांन वाञ्चाक बस्ले. अशींचि हांवें भवनाथ बाबू वोट्टु कस्सली गांभीर चर्चे करीत अस्तना, किरण खंचेतरी कामा निमित्यान तें चुकैरशिलि. मनांतुले मानांतु हांवुं पुलकित ज़ात्ताशिलो. माक्का कळ्ळें कीं – किरणाले दृष्ठिन माक्का धर्ल्यां. आनि हें तिक्का कोळ्नु गेल्यां. भवनाथ बाबू वोट्टु तत्वांचे चर्चे कोर्चें जीवनाचे चरम सुख न्हयी. आमगेले इंद्रियांचे भायिले अनुभवा संभंधाचो विचार करीत अस्तना, किरण येन्नु म्हणतालि, "महींद्र बाबू, रांदपा कूडा लाग्गींचें मेग्गेले तरकारि बागऽ दाकैतां, चला."

आमगेले अनुभव आनि कल्पना शिक्ति भायिर ताज्जि सीमा उर्चि कायिं असंभव न्हयिं. हो विचारु करीत अस्तना, किरण य़ेन्नु म्हळ्ळालि, "महिंद्र बाबू, दोन आंबे पिक्ल्यांति, तुम्मि रुक्का फ़ांदि वांकयाति, हांवु आंबे काड्तां." अनंत आकाश आनि बाह्य वस्तु संभंधाचो संशयु दुर्भेद्य उर्ले तरी, किरणाले तरकारि बाग, अथवा आंब्या बद्दल्चें संभंधांतु कस्सलोयि संदेहु नाशिलो. काव्य, किंवा कादंबरींतु ताज़्ज़ो उल्लेखु कोर्चाक ज़ाय्ना. जीवनऽ समुद्रांतुले एक द्वीपावारि मनोहर आस्स. भूयिंचेरि पाय दवर्चें कित्लें आरामदायक उर्त कीं तें बरेच वेळु उद्कांतु पोंव्त राब्बिल्याकयी कळ्ता. हांवें स्रजन केल्लिल्या कल्पना प्रेम समुद्र सत्याचो उर्ले. तांतु चीवन भरी पोंवत उर्तलो. किरणान अंत भाग्याले केऽस धोर्नु, आंब्यारुक्का सक्कल, तरकारि बागेंतु उठान्नु हाळ्ळें कीं– ज़मीनिरि पायु दवोर्नु हांवु वांच्लो. रांदपा कूडांतु

खिचडी शिजोव्नु, ओणतीरि खीळे (मोळे) मार्नु, लिंबिया रुक्काचे लिंबिया फुल्लं विंचांतु सहायु कोचांतु प्रयास ज़ाय्नास्तना, अवर्णनीय आनंद मेळ्ताशिलो. आपो आप तोंडांतु येव्चे उत्रानं हासु येत्ताशिलो. आकाशांतुलो प्रकाशु, वृक्षा सकल्लि साव्ळियी पूरि आशिलि. शिवायि मेग्गेलि भांगरा छडी म्हळ्यारि मेग्गेले नव यौवन, पारसमणि म्हळ्यारि मेग्गेलें प्रेम, एक अक्षय कल्प वृक्ष म्हळयारि मेग्गेल्चे बद्दल्चे अप्रतीम विश्वासु आश्शिलो. हांवु विजयी इंद्रु, मेग्गेल्या उच्छैश्रवाले पक्षांतु कस्सलीयि बाधा दिस्सूनु येनाशिलि. किरण, मेग्गेली किरण ! हांतु कस्सलोयि संदेहु ना. पण हीं उत्रं स्पष्ट रूपान आज पर्यंत कोणेयी सांगिल्ना. तरी हीं उत्रं ह्रदयांतुले सुखाक विदीर्ण कोर्नु, अंतःकर्णांक चिंदि कोर्नु क्षणो क्षणी नांचत आश्शिलिं. तरी किरण, मेग्गेली किरण !

हाज्जे पयलें, हांवु खंचेयी अपरिचित महिलेले संपर्कांतु आयिल्नाशिलो. नवीन स्त्रीयो, शिक्षण घेव्नु परद्या भायिर विचारणा कर्ताति. तांगेली रीति बद्दल हांवु संपूर्ण अज्नानि आशिलो. तांगेले आचरणांतु खयीं शिष्टता आस्सा, प्रेमाचो अधिकारु हाज्जि कल्पनायि नाशिलि, हें भी नेण्ताशिलो कीं तीं मेज्जेरि प्रेम कित्याक कर्नाति ? हांवु खंचे अंशान कम्मि आस्सा ? ताज़्ज़ो विचारूयि येत्ताशिलो.

किरणान चहाचो पेलो हात्तांतु दिल्ले कीं तो पेलो भर्लीले किरणाले प्रेम भी स्वीकार्तालो. चहा पित्तस्तना विचारु कर्तलों कीं "मेग्गेलो स्वीकारु सार्थक ज़ाल्लो, किरणालें दान भी सार्थक ज़ाल्लें." सहज़ रीतिन किरणान विचाल्र्यारि, "महींद्र बाबू फ़ायि वग्गीं येत्तले न्हयीं ?" तांतु ताल, छंद, लय वाज़चाक सुरु ज़ात्ताशिलें.

मेग्गेली समस्त दिवस रात्रि अमृतान भोर्नु गेल्लीलि. प्रत्येक क्षणांक, कल्पना नवीन नवीन फ़ांद्यांतु (शाखांतु) पसरुनु किरणान माक्का वाल्लीन बांधुन दवर्लें. हे वेळारि किरणाक कस्सलें वाचैशितलों, कस्सलें शिकैतलो, कस्सलें आय्कशितलों, कस्सलें दाकैतलों ह्या संकल्पनेन मेग्गेलें मन आच्छादित ज़ात्ताशिलें. अश्शीं निर्णय केल्लें कीं जर्मन पंडित द्वारा रचित दर्शन शास्त्राचे इतिहासान तिग्गेले हृदयांतु उत्सुकता ज़ागि ज़ात्तली. इंग्लिष काव्य– सहित्याचे सौंदर्य लोकांतु तिक्का मार्ग दाकैत चल्तलों. मनांतुले मनांतु हास्सत म्हळ्ळें – “तुग्गेले तरकारि बाग, आंब्या रुक्का साळ्ळि माक्का नवीन राज्य आस्सा. थयीं तरकारि, वार्यान पळ्ळीले आंब्या शिवायि, दुर्लभ अमृत फ़ल भी इत्ले सुलभतेन मेळ्तलें” हें स्वप्नांतु भी लेकिल्नाश्लें. ज्नानराज्य, भावनेचे स्वर्ग लोकांतु तुक्का घेव्नु वत्तलों.

हांगा मेग्गेली रज़ा समाप्त ज़ाय्त आय्यिलि. विवाहा उद्देशान घर येव्चाक बाप्सूलो आदेशु कठिण ज़ाय्त गेल्लीलो. अमूल्याक भी स्वस्त बसोव्चें त्रासदायक ज़ालीलें. ताणें उन्मत्त रानटी हस्तीवारि मेग्गेले ह्या कमल वनांतु खंचे दिवसु येव्नु उड्कि मार्चि भीति भी वाड्डत गेल्लीलि. ह्रदयाचि आकांक्षा तुरंत व्यक्त कोर्नु प्रणयाक परिणय सूत्रान कश्शिं बांधूनु घेव्चो विचारुकरीत उर्लों. दुस्रो कस्सलोयि विचारु कर्नाशिलों

एक दिवसु दन्पारा भवनाथ बाबूले घरा गेल्लों. ते ग्रीष्मांचे शकेन (उष्मान) खाटाचेरि बश्शिले बश्शिले, नीद काडीत आश्शिले. आनि किरण गंगा नदीचे निर्जन घाटा पायर्यांचेरि बैसूनु एक पुस्तक वाचीत आश्शिलि. हांवें निःशब्द पावलान माक्षेन वोच्चूनु पळैलें एक नवीन काव्य संग्रह आस्सा. उघडिले पानाचेरि शेल्लिलि एक कविता

आशिशली. तांब्डे पेंसिलान साफ़ रेखा काड्ल्यांचि. ती कविता वाच्चूनु किरणान एकु होडु श्वाशु घेव्नु स्वप्न भर्लीले दोळ्यान आकाशा कडेन पळैले. माक्का अशिशं दिस्लें कीं किरणान ती कविता धा वेळा तरी वाच्चूनु, दीर्घ निश्वास द्वारा, आपण्याले हृदयाचि भावना, अतिदूर, नक्षत्र लोकांतु धाण्णु दिल्यां. शेल्लीन कोणांखात्तीरियि ही कविता रचयिल्या ? हें कोणेयी ज़ाण्नाति. महींद्र बाबू नांवांचे बंगाली युवका खात्तीरि ही कविता रचयिल्ना हें निश्चित ! पण हे स्तव गानांचेरि मेग्गेले शिवायि दुस्रो कोणालोयि अधिकारु ना हें निश्चित पणें सांगू शक्तां. तांबडे चिन्हान अंकित केल्लेली ती कविता तिग्गेलीयि आनि मेग्गेलीयि. पुलकित ज़ाव्नु, श्वास बंद कोर्नु, सहज़ रीतिन विचार्लें– "कस्सलें वाचीत आस्सा ?" किरणान चकित ज़ाव्नु, श्वास बंद कोर्नु, साडीचे पदरान धांप्लें. हास्सूनु हांवें विचार्लें – "एक पटी तरी तें पुस्त्क पोळोव्चा ज़ात्तल्वे ?" तीणें शीघ्रतेन ज़वाब दिल्लि "नाक्का, नाक्का, तें नंतर पोळोंव्यां."

किरण उठाव्नु, काळ्जीन म्हळ्ळाली– पिताजि ऐक्लेंचि बस्ल्याचि. तांकां अनंत आकाशा संबंधांतुले चर्चे समाप्त कोर्चाक ज़ाय्शि ना. हांवे. मनांतुले मानांतु म्हळ्ळें– ताज्जि चर्चा केद्नायि समाप्त ज़ाय्शि ना. पण किरणांले उत्रांक लक्ष्य दीनास्तना, ह्या सुसंधीचेरि हांवें किरणांक सांग्लें– मेग्गेले थोडेशो कविता तुक्का आय्कशितां. "फ़ाल्या आय्कतां सांगूनु किरण एकदम उठाव्नु राब्लि, खोली दिक्कान तोड कोर्नु म्हळ्ळाली", पिताजी, महींद्र बाबू आय्ल्यांति. भवनाथ बाबू, ज़ागे ज़ाव्नु दोके सोण्णू पळैत बस्लै. हांवें तांगेले खोलींतु वोच्चूनु अनंत आकाशा संबंधांतुले चर्चे कोर्चाक सुरुवात केल्ली. किरणान आपण्याले निद्दोव्चे खोलींतु वोच्चूनु आपण्याले हातांतुले पुस्तक वाच्चाक सुरु केल्लें.

दुस्रे दिवसु सक्काळिं, तांब्डे पेंसिलान निशान केल्लेली "स्टेट्समेन" दिन पत्रिका मेळ्ळि. तांतु बी.ए. परीक्षेचो निर्णयु आश्शीलो. सुरुवातीक प्रथम श्रेणींचे पंक्तींतु "किरण बाला बंद्योपाध्याय" हें नांव वाच्लें. मेग्गेले नांव, प्रथम, द्वितीय त्रतीय खंचेयी श्रेणींतु नाशिले.

"परीक्षेंतु असफ़ल ज़ाव्चे वेदने वोट्टु, एक संदेहू भी उत्पन्न ज़ाल्लो." ही किरण बाला बंद्योपाध्याय "आमगेलि किरण बाला न्हयीं मू ?" तीणें कोलेजांतु वोच्चूनु परीक्षा दिल्या हें माक्काा सांगिल्नाशिलें. पण क्रमशः प्रबल ज़ाय्त गेल्लो. कारण वृद्ध पिता आनि ताग्गेलि धूवेन आपण्याले विषयांतु कस्सलेंयि सांगिल्नाशिले. आनि हांवें मेग्गेले विद्येचे प्रचार कर्तस्तना, तांगेलाग्गिं हें विचारिले ना. हांवें जर्मन पंडित द्वारा रचयिलें दर्शन शास्त्रा संबंधांतुले तर्काचो यादु माका येव्चाक लाग्लो. हांवें एक दिवसु किरणांक सांगिलें कीं– थोडीशिं पुस्तक वाचाक संधि मेळ्यारि, अंग्रेजी काव्य साहित्यांतु आसक्ति उत्पन्न कर्तलो."

किरण बालान दर्शन शास्त्रांतु ओनर्स घेव्नु, साहित्यांतु प्रथम श्रेणींतु उत्तीर्ण ज़ाल्या, हीचि किरण न्हयीं मू ? आस्लें तरी मेग्गेले काविता संग्रहची मेग्गेलो विजय स्तंभु अश्शिं विचार कोर्नु, तें पुस्तक धोर्नु, पाय आपटीत, मात्तें उंच कोर्नु, भवनाथ बाबूले घरा पाव्लो. तागेली खोलींतु कोणीयि नाशिले. हांवुं त्या वृद्धाले पुस्तकाचे निरीक्षण कोर्चाक लाग्लो. जर्मन पंडित द्वारा रचयिलें दर्शन शास्त्राचें इतिहासा पुस्तक थयीं आश्शीलें, उघडूनु पळैलें– ताज्जे मार्जिन, भवनाथ बाबून बरयिले नोट्सान भोर्नु गेल्यां. आपण्याले धुव्वेक तो वृद्धु स्वतः शिकैताशिलो ! हाज्जेरि संदेहु उर्ले ना.

भवनाथ बाबून इतर दिव्सांपेक्षां जास्ति प्रसन्न चेहर्यान खोलींतु प्रवेशु केल्लो. शुभ संवादाचे धारेंतु आत्तंची स्नान कोर्नु आयिल्यावारि दिस्तशिले. हांवें थोडोसो अहंकारु दाकैत, रुक्ष हासान म्हळ्ळें– “भवनाथ बाबू, हांवु परीक्षेंतु फ़ेल ज़ाल्लां” थोडेशे लोक विद्यालयाचे परीक्षेंतु फ़ेल ज़ाव्नुयी जीवनांचे परीक्षेंतु, प्रथम श्रेणींतु उत्तीर्ण ज़ात्ताति. हांवु तांतुत्लो एकु. परीक्षा, वाणिज्य, व्यवसाय, नौकरींतु सफ़ल ज़ाव्चें मध्यम श्रेणी लोकालें लक्षण. निम्न तम आनि उच्चतम श्रेणीचे लोकांतु असफ़ल ज़ाव्चि आश्चर्यजनक क्षमता आस्स !” भवनाथ बाबूलो चेहरो स्नेहपूर्ण ज़ाल्लो. आपण्याले धुव्वेन परीक्षेंतु उत्तीर्ण ज़ाल्लीलें तांका सांग्चाक ज़ाल्लेना. मेग्गेले असंगत उग्र प्रफ़ुल्लतेक पोळोव्नु ते थोडेशे विस्मित ज़ाल्ले. तांगेले सरळ बुद्धिद्वारा मेग्गेले गर्वाचे कारण कोळ्नु आयिल्ना.

आमगेले कोलेजाचे नवीन अध्यापक, वामाचरण बाबू संगत, सलज्ज, हास्मुखी चेहर्यान, पावसान तिंबिले वाल्लीवारि वळ्कत, किरणान आम्गेले खोलींतु प्रवेशु केल्लो. माक्का दुस्रें समज़ूनु घेव्चि ज़रूरियि उर्लि ना. रात्रि घरा वोच्चूनु मेग्गेले कविता संग्रहाचे पुस्तक ज़ोळोव्नु उड्डैलें. गावां वोच्चूनु विवाहु केल्लो.

गंगा तीरारि बैसूनु माक्का बृहत काव्य बोरोव्चाक साध्य ज़ाल्लिल्ना. परंतु मेग्गेले जीवनांतुयि तें हांवें प्राप्त केल्लें.



# मल्लैयालो चेल्लो परत आय्लो

रायिचरणु बारा वर्साचो आस्तना, बाबू लोकाले घरांतु काम कोर्चाक आय्लो. त्या सांवळ्या रंगाचे, बारीक चेर्डाक यशोर ज़िल्यांतु घरं. ताग्गेली ज़ात कायस्त, आनि मालकालीभी कायस्त ज़ाति आश्शीलि. तांगेले ऐक वर्सा चेर्डाले पालन–पोषणां कामांतु तांका सहायु कोर्चें ताग्गेलें मुख्य कामऽ आश्शीलें. तो चेल्लो पैलें स्कूलांतु, नंतर कोलेजांतु शिकूनु, आखेरीक मुंसीफ़ु ज़ाल्लो. तेद्ना भी रायिचरणु तांगेलो नौकरु ज़ाव्नु आश्शीलो.

आत्तां ताक्का ऐक नवीन मालकीणि आय्लि. त्या ठकुरायिन (सून बायीन), अनुकूल बाबू (बाम्मूणू) पेक्षा जास्ति यज़मानपण आपण्यालग्गिं दवोर्नु घेव्नु, रायिचरणाचेरि आनि ऐक नवीन ज़वाबदारि दवरीलि. ज़ोंपाळ्याचेरि चेर्डाक ज़ुलौचें, दोन्नी पाय्यांक धोर्नु वैरि उब्बार्चें, स्वतःचें मात्तें गोल फ़िरोव्चें, अनेक पदऽ आय्कुसुचें वगैरेचे चातुर्य आनि धैर्यान ताज्जेरि संपूर्ण अधिकारु प्राप्त केल्लीलो. हो अनुकूलालो सानु पुत्रु रायिचरणांक पळैले तशींचि किलांटि मार्नु हास्ताशिलो. चेरडूं बागिल दांट्वूनु पेल्तान निप्पीले ज़ाग्यावैल्यान पकड्लें कीं खीलखिलूनु हास्ताशिलो. ह्या असामान्य चातुर्य आनि विचारशक्तीन रायिचरणु चकीत

ज़ात्ताशीलो. मालकिणीक अभिमानान सांग्ताशिलो "मालकिणिवायि, तुमगेलो चेल्लो, होडऽ ज़ाव्नु जज ज़ात्तलो. पांच हज़ार रुप्पयेचो पगारु हाड्तलो." जगांतुले खंचेयी चेरडूं बागीला चौकट दांट्वूनु वोच्चें कायीं अद्भुत घटना न्हयीं म्हूण्णु रायिचरणाले मनांतूयि येनाशिलें. पण भावी जज साहेबाह कस्सलेंयी अद्भुत न्हयीं. चेरडान लड्कडत चल्चाक सुरुकेल्लें कीं आनि ऐक आश्चर्याचि दुस्रि खबर ज़ात्ताशिलि. ताणें आव्सूक मां, पूफ़िक (आत्यक) पिछी, रायिचरणांक "चन्ना" म्हूण्णु आप्पोव्चाक लाग्लें कीं ही असंभव बात्मि रायिचरणान सर्वांक सांग्लि. "चन्ना" म्हूण्णु माक्का आप्पोव्चाक ताक्का कश्शिं कळ्ळें ? हें सांग्चें कठिण म्हळ्ळलो. ह्या वयांतु हीं असाधारण उत्रं उल्लैना ज़ाल्यारि, मुक्कारि जज कश्शिं ज़ात्तलो ?

रायिचरणान तोंडांतु राज्जु (दोरि) चाब्बूनु घोडो ज़ाव्चें, पैलवान ज़ाव्नु, कुस्ति खेळ्णू, हार्नु (सोल्वूनु) ज़मिनीरि पोड्चें वगैरे खेळु खेळ्ताशिले.

ह्या वेळारि अनुकूल बाबूक पद्मा नदीचें पेल्ता ज़िल्यांतु बदलि ज़ाल्ली. वोड्डूनु होर्चि गाडि तान्नि खरेदि केल्लि. सॅटिना कुर्ता, ज़री टोप्पि, हात्तांतु भांग्रा गोऽल, पाय्यांतु रुप्याचे पैंज़ण चेरडाक घाल्नु, रायिचरणु ताक्का दोन्नी वेळा फ़िरोव्चाक व्हर्ताशिलो. पाव्साडी दिवस आय्ले. पद्मा नदींतु महापूर येव्नु ज़ाड– रूक, गांव, गाद्दे सर्व बुड्डूनु गेल्ले. तीव्रगतीन येव्चे, फोस– फोस आवाज़ु कोर्नु होळ्चे पद्मा नदीचें गर्जनेन सर्व परिसर भयानक ज़ाल्लीलें.

दन्पारा नंतर मोडं सर्व पसरूनु गेल्लीलिं पाव्सु पोडाचि शक्यता कम्मि ज़ाल्लीलि. सानु मालीकु, घरा भाग्रि वोच्चाक उतावीळ ज़ाव्नु हठान गाडीरि चोण्णु बस्लो. सावकाश गाडी वोड्डत दोग्गंयीं, पद्मा नदीचें किनार्याचेरि पाव्ले. महापूरान भर्लीले पद्मानदींतु ऐकयी नौका दीस्नाशिलि. खेती मज़ूरभी नाशीले. ह्या जनशून्य नदीचे किनार्या वैल्यान, सूर्यास्तु ज़ाव्चो दिस्ताशिलो.

तेद्ना सानु मालीकु, ऐक रुक्का कडेन हठात् बोट दाकोव्नु, म्हळ्ळालो– "चन्ना, फ़ू."

दूर, उद्कांतु, ऐक होड कदंबा रुक्का फ़ांदी भोर्नु फ़ुल्लं फ़ुल्लीलिं. त्या फ़ुल्लांचेरि चेरडालि कुतूहलि दृष्टि पळिळ. फ़ुल्लं हाण्णू दिव्चाक हठान रायिचरणां सांग्लें.चिक्लांतु वोच्चूनु फ़ुल्लं हाड्चि इच्छा रायिचरणांक अजिबात नाशिलि. ताणें– "मालक, थयीं पळया पक्षि, आरे पक्षि उड्डूनु गेल्लि", वगैरे सांगूनु ताक्का विसराय्चाक पळैलें. कोणांले नशीबातु भावी जज ज़ाव्चें शक्यता आस्सा कीं, तो अस्सले निरुपयोगी वस्तून कश्शीं आकर्षित ज़ात्तलो ? आनि त्या पक्षिले कल्पनेन तरी विसर्चें शक्यची ना.

निरूपाय ज़ाव्नु रायिचरणु म्हळ्ळालो– "तूं नुतऽ गाडींतु बैस, हांवुं फ़ुल्लं हाड्ता, नदीचे किनार्याचेरि वच्नाका." सांगूनु, दिंबि पर्यंत धोति शिर्काव्नु, कदंब रुक्का दिशेन गेल्लो. पण कल कल कोर्नु होळ्चें उद्काक पोळोव्नु चेरडाले मनऽ चंचल ज़ाल्लें. गाडींतुल्यान सक्कल देव्नु, नदींतु वांकूनु, होड बड्डीन मासोळि (ज़ळ्कें) धोर्चो खेळु खेळ्चाक लाग्लो. कदंब फ़ुल्लांक विसोर्नुयि गेल्लो. नदीचें चंचल उद्कान आपण्याले खेळांतु मेळोव्नु घेव्चाक चेरडाक पदे

पदे आप्पैलें. ऐका, ऐकी, धप्प कोर्नु नदींतु कस्सलेकीं पळ्ळीलो आवाज़ु आय्लो. पावसाडि दिव्सांतु अस्सले अनेक आवाज़ऽ येत्ताशिले.

रायिचरणान ज़ोळी भोर्नु फुल्लं काळ्ळिं. सकल देव्नु हास्तचि गाडी लाग्गिं आय्लो. थयीं कोणी नाशीले. चारी दिक्कान नज़र फ़िरैलि. कोणयी आश्शीलि चिह्नभी दिशिल्ना, एका क्षणांतु रायिचरणाले हाथ पायऽ थंड ज़ाल्ले. किंचाळत आप्पोव्चाक लाग्लो– "मल्लैया बाबू, मल्लैया बाबू, तुं खयीं आस्सा. पण "चन्ना" म्होण्णु कोणीयि ज़वाब दिल्ना. मस्करी कोर्नु, हासत खंचोयि चेरडूं आयिल्ना. पद्मा नदीक अस्सले क्षुल्लक घटनेचेरि लक्ष्य दिव्चाक खयीं फ़ुर्सत आस्सा ! तिग्गेले कामांतु ती व्यस्त आश्शीली.

सांज़ ज़ात्तेरि चेर्डाले आव्सून, चेर्डाक सोद्चाक लोकांक लांटन दीव्नु चारी दिक्कान पेटयिलें. सोद्दूनु सोद्दूनु निराश ज़ाव्नु रायिचरणु मालकिणीले पाय्यारि पळ्ळो. तीणें पदे पदे विचार्लेले प्रश्नांक् ताग्गेली एकी ज़वाब– "मालकिणी बायि, माक्का कायीं गोत्ना" गांव्चे भाग्रि आयिले बनजारे लोकालें हें काम न्हयीं मूं ? किंवां रायिचरणान स्वतः चेरडाक विकिल्नामूं ? चेरडाले हात्तांतु भांग्रा गोलऽ आश्शीले. चेरडाले आव्सुन म्हळ्ळे. अनुकूल बाबून म्हळ्ळें– तो अस्सले नीच काम कऽरशिना. आखेरीक ताक्का आप्पोव्नु पदे पदे सांग्लें – "तुक्का ज़ाव्का तित्लो पैसो दित्तां – मेग्गेले चेरडाक हाण्णु दी." तें आय्कूनु रायिचरणु मात्तें आपटूनु म्हळ्ळालो– "माक्का कायीं गोत्ना". अंत्यारि मालकिणीन ताक्का कांमांतुल्यान काण्णु घाल्लें.

नंतर रायिचरणु आपण्याले गांवां गेल्लो. थयीं ताग्गेल्या बाय्लेन ऐक चेरडाक जन्म दीव्नु परलोकाक गेल्लि. मालकाले चेरडाक उद्कांतु बुड्डोव्नु, स्वतः पुत्र सुख घेन्चें महापाप ! मल्लैया बाबूले ज़ाग्यारि हें चेरडूं बेशक हांगा जन्मांक आय्ला. अशिशं विद्वेशा भावना ताक्का उत्पन्न ज़ाल्लि. पण् ताग्गेल्या विधवा भैणीन चेरडाले पालन– पोषण कोर्नु ताक्का होडु केल्लें. चेरडूं बागिला चौकटा पेल्ताक वोचाक लाग्लें कीं कोर्नाका म्हळ्ळीलें कामऽ हठान कोर्चें, ताणें हासचो, रड्चो आवाज़ु पका मल्लैया वारि आशीलो. ताणें रड्चें आवाज़ान ''नाज़ाव्नु गेल्लीलो मल्लैया बाबु आपण्यांक परत परत आप्पैना मूं'' अशिशं रायिचरणांक दिस्ताशिलें. चेरडाले नांवऽ ''फ़ेलना'' अशिशं दवरिलें. फ़ेलनान पूफ़ीक (आत्याक) पिछी मोण्णु आप्पैलें कीं त्या परिचित शब्दान रायिचरणाक अचानक दिस्लें कीं मल्लैया बाबूक मेग्गेलो मोगु विसर्चा ज़ाय्ना म्होण्णू ताणें मेग्गेले घरांतु जन्मु घेत्ला. चेरडाले अनेक बाललीला पोळोव्नु, तो भविष्यांतु जज ज़व्चे आत्मविश्वासु आश्शीलो.

रायिचरणान फ़ेलनाक होडऽ घरण्या चेरडावारि वाड्डोव्चाक सुरु केल्लें. सेटिना कुर्ता, ज़री टोप्पि, बाय्लेले भांग्रान केल्लीले गोऽल, पाय्यांतु पैंज़ण वगैरे करैशिले. आज़ू बाज़ूचे खंचेयी चेल्यांक खेळचाक दीनाशिलो. स्वतः ताग्गेले खेळांतु सामील ज़ात्ताशिलो. बाकी चेल्ले ''नवाबालो पूतु'' म्होण्णु मस्करी कर्ताशिले. शेज्जार्चें अस्सले पिश्शेपणांक पोळोव्नु चकित ज़ात्ताशिले. आपण्याले जमीन–जायदाद विकूनु फ़ेलनाक कलकत्ते व्होर्नु थयीं स्कूलांतु दाखल केल्लें. कठीण परिस्थितिंतूयि नौकरि कोर्नु, स्वतः सादा रीतिरि उर्ताशिलो. चेरडाले खाण– चेवण, वेश–भूषा

वगैरे अवश्यकते बद्दल कस्सलेंयी कम्मि पोड्चा ना म्हूण्णु काळजि घेत्ताशिलो राय़ीचरणु मनांतु – "पुत्ता, प्रीतिचे आकर्षणन तूं मेग्गेल्या घरांतु आय्ला, तुग्गेली सर्व सुख सोयि पूर्ण कर्ता" अशिशं म्हण्ताशिलो.

अशिशं बारा वर्सऽ पूर्ण ज़ाल्लिं. चेल्लो अभ्हासांतु हुशार, आरोग्यांतु आकर्शक, सांवळ्या रंगाचो आस्सूनु, शौकीन वागणूकीचो आश्शीलो. मोगांतु बापूसु, सेवेंतु नौकरु ज़ाल्लीलो. तो आपण्यालो बापूसु न्हयीं म्हूण्णु फ़ेलानालि समज़ूति ज़ाल्लीलि. चेल्लो आपण्यावारि दिश्चि खब्बर रायिचरणान सर्वा पास्सूनु निप्पोव्नु दवरीलो हो ताग्गेलो दुस्रो दोषु.

होस्टेलांतुले सर्व विद्यार्ति "बंगाली रायिचरणु" म्होण्णू रायिचरणाले कुचेष्ठा कर्ताशिले, फ़ेलना भी त्या कुचेष्टेतु केद्ना केद्ना भागु घेत्ताशिलो. सादा– भोळा स्वभावा रायिचरणांचेरि ते मोगु कर्ताशिले. फ़ेलना भी अनुकंपेन मोगु कर्ताशिलो.

उतारावयाचा रायिचरणाले कामांतु मालीकु चूकि काड्ताशिलो. शरीर शिथिल ज़ाव्नु विसराराळु पणान कामांतुलें लक्ष्य चुक्ताशिलें. पगारु दिन्चो खंचोयी मालीकु हीं करणं कश्शीं कबूल कर्तलो ? ज़मीन विकूनु हाळ्ळीलो पैसो भी खरचु ज़ाल्लीलो. शिवायि फ़ेलनांक आपाण्याले वेशभूषेंतु कम्मीपण दिश्चाक लाग्लें. ऐक दिवस रायिचरणान कामांक राजीनामो दिल्लो. थोडेशे पैशे घेव्नु, फ़ेलना सहित बारासत पाव्लो. थयीं अनुकूल बाबू मुंसीफ़ आश्शीले.

अनुकूल बाबूक दुस्रे संतान ज़ाल्लिल्नाशिलें. माक्षें पुत्र शोकाक ताग्गेली बाय्ल विसर्नाशिलि. तीणें संताना खात्तीरि ऐक संन्यासिलाग्गिं पाळं– मूळांचि खरेदि कर्तस्तना,

आंगणांतुल्यान आवाज़ु आय्लो. “जै हो, मांजी. (मांजीक जय आस्सो).” अनुकूल बाबून विचार्लें– “कोणरे तूं ?”

नमस्कार कोर्नु रायिचरणु म्हळ्ळलो– “मालिक, हांवुं रायिचरणु”. म्हांतार्याक पोळोव्नु अनुकूल बाबूलें मनऽ कर्गलें. ताक्का अनेक प्रश्ने विचार्लें. नौकरी दित्तां म्हूण्णु सुद्धां सांग्लें.

रायिचरणान सादा हासु हास्सूनु म्हळ्ळालो– “हांवुं केवल सून बायीक ऐक आशेचो वस्तु दिन्चा आय्लां.” तेद्‌ना अनुकूल बाबून ताक्का भित्तरि व्हेल्लें. पण मालकिणीन कस्सले प्रसन्नतेन तागेले स्वागत केल्लिल्ना. ताज्जी बद्दल कस्सलें लक्ष्य दीनास्तन, हाथ ज़ोड्णु रायिचरणु म्हळ्ळालो– “मालक, मालकिणी, तुमगेले चेरडाक चोरीलो पापि, नराधमु हांवूंचि, पद्मा नदीन न्हयीं”

अनुकूल बाबून विचार्लें– “कस्सलें सांग्ता तूं ? चेरडूं खयीं आस्सा ?”

“तो मेग्गेल्या लाग्गींयि आस्सा, परां ताक्का हांगा हाड्तां.”

तो दिवसु रविवारु आश्शील्यान आफ़ीसा काम नाशिले, आव्सु– बापूसु दोग्गंयी विवंचनेन वाट पळैत बश्शीले, धा घंट्यारि रायिचरणु फ़ेलनाक घेव्नु आय्लो. अनुकूल बाबूले बाय्लेन कस्सलोयी विचारु कर्नास्तना, फ़ेलनाक लाग्गीं घेव्नु निड्लारि चुंबन दिल्लें. ताक्का पळैत हास्सत, रडत विचार्लें– “कस्सलो पुरावो आस्सा ?” रायिचरणान ज़वाब दिल्लि– “अस्सले नीच कामांक पुरावो उर्तावे ?” हांवें तुमगेले चेरडाक चोरीलें केवल देवू ज़ाणता, दुस्रो कोणी न्हयीं.”

अनुकूल बाबून विचारु केल्लो– "आव्सूले मायेन चेरडाक लागिं घेत्तीलें पळैल्यारि, दुस्रि साक्षिचि ज़रूरि ना. विश्वासान मुकार्सुचें बरें, शिवायि रायिचरणांक अस्सलोरूप– सुंदर चेल्लो खंचान मेळ्तलो ? म्हांतरो कारण नास्तना चेरडाक कित्याक हांगा हाड्तलो ?"

चेल्याले उत्रानं कळ्ळें कीं – तो सानपणा पास्सूनु, रायिचरणाले संगतींतु ऊर्नु, तोयी आपण्याले बापूसु– नौकरु आस्सा. पण रायिचरणू आप्पूणु बापूसु न्हयीं, केवल नौकरु म्हूण्णु जाहीर कर्ताशिलो.

मन्नानांतुले सवे संशय दूर कोर्नु, अनुकूल बाबून म्हळ्ळें "रयिचरण, तुका आम्गोले संगतींतु उर्चाक ज़ाय्शिना. रायिचरणान दुखिः आवाजान म्हळ्ळें"– मालिक ह्या वयांतु हांवुं खयीं वोच्चूं ?

बाय्लेन म्हळ्ळें – "हांवें ताक्का माफ़ केल्यां. गरीब म्हांतारो हांगा ऊरो. मेग्गेले पुत्ताले मंगल ज़ात्तले." – "ताणें केल्लिल्या अपराधाक क्षमा ना" रायिचरणान अनुकुल बाबूले पाय धोर्नु म्हळ्ळें– "हांवें हें वायिट काम केल्लिल्ना, देवान करैशीलें. आपण्याले पाप देवाले मात्यारि घाल्चे प्रयत्नाक पोळोव्नु अनुकूला बाबून म्हळ्ळें– "अस्सले विश्वास घातीवैरि परत विश्वासु कश्शिं दवर्चें ?"

मालीकाले पाय सोण्णु रायिचरणु म्हळ्ळालो– "तो सैतानु हांवु न्हयीं मालिक !" "आनि तो कोणु आशीलो ? ह्या प्रश्नाक रायिचरणु म्हळ्ळालो" – तें मेग्गेलें दुर्दैव. ह्या संसारांतु मेग्गेले कोणी नांति."

फ़ेलनांक कळ्ळें कीं आप्पूणु मुंसीफ़ालो पूतु आस्सा. ताक्का सानपणारि चोर्नु होर्नु अपमानु केल्ला. आयिले कोपाक शांत कोर्नु, उदारतेन म्हळ्ळालो– "बाबूजि, ताक्का माफ़ कराति, हांगा उर्चाक ज़ायिना ज़ाल्यारि, प्रत्येक महिन्याक थोडेशे रुप्पये पेटोन्चि व्यवस्ता कराति."

नंतर रायिचरणान चेल्यालो चेहरो नियाळ्नु, सर्वांक नमस्कारु केल्लो. दरवाज्या भायिर वोच्चूनु जगांतुले असंख्य लोकांतु विलीन ज़ाल्लो.

महिन्या नंतर, ताग्गेल्या घरा पत्याचेरि पेटैले रुप्पये परत आय्ले. त्या पत्यारि कोणी नाशिले.



रामचंद्र जी. भंडारि हे, बळकूर ग्रामांतु ( उत्तर कन्नड ज़िल्ला) जन्मांक आयले. होन्नावर, कुमटांतु शिक्षण पूर्ण केल्लें. भाभा अणु संशोधन केंद्रांतुल्यानं जेष्ठ शास्त्रज्न म्हूण्णु निव्रत्त ज़ाल्ले. पंच्कादायि मासिकांतु तान्नि अनेक लेखन/ काणियो प्रकाशित केल्यांति. शिवायि "भंडारि माम्माल्यो काणियो" कोंकणी कथा संग्रह" हेंपुस्तक भी प्रकाशित केल्यां.

सद्या तांगेले दुस्रे पुस्तक " गुरुदेवाल्यो विशिष्ठ काणियो" प्रकाशित केल्यां. तें रवींद्रनाथ टागोराल्यो काणियांचेरि आधारित आस्सा. डा. अमल सरकार आनि असीमा सेन हांगेले "विशिष्ठ कहानियां" चे हिंदी काणियांतुल्यान कोंकणींतु रूपांतरित कोर्नु दुस्रे पुस्तक "गुरुदेवाल्यो विशिष्ठ काणियो" प्रकाशित केल्यां. रवींद्रनाथ टागोराली १५० वी जयंति आशिल्यान तांका हें पुस्तक सादरपूर्वक अर्पण केल्यां.

कोंकणी साहित्य वाड्डोन्चाक लेखकाले किंचित प्रयत्नाक वाचकानि हें पुस्तक वाच्चूनु, तांका उत्तेजन दिल्यारि, ताग्गेलो श्रमु सफ़ल ज़ात्तलो.

जै कोंकणी, देवु सर्वांक बरें करो.